# बेलाबायचो शंकर आनी हेर काणयो



नयना आडारकार

# बेलाबायचो शंकर आनी हेर काणयो

नयना आडारकार






**बेलाबायचो शंकर आनी हेर काणयो**
**(बालकाणयो)**
नयना आडारकार
हिरेयूग प्रकाशन

Belabaicho Shanker
(A collection of stories for children)

**बेलाबायचो शंकर आनी हेर काणयो**
**बालकाणयो)**
नयना आडारकार
9823537563

**प्रकाशक**
हिरेयूग प्रकाशन, पोरणें गोंय
प्रकाशन क्र.७
पयली आवृत्ती
२०१९



**मुखपृश्ठ**
सरस्वती नायक

**भितरलीं चित्रां**
सुभाष रंगनाथ सुर्लकार
सुमेध सुभाष सुर्लकार

**अक्षरजुळणी**
यश

**छापणावळ:**
लोकमान्य प्रोसेस, तिसवाडी, खोर्ली, इल्लास गोंय

**मोल: 80**

---

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'बालसाहित्य अर्थीक पालव येवजणे' खाला छापलां.

# मांडावळ

# बेलाबायचो शंकर





'शंकर...शंकर, खंय गेलो हो? एका जाग्यार तिगलो जाल्यार नशीब. शंकर...' आजी शंकराक सादयत घरभर सोदपाक लागली.

'जालो जाण्टेलेचो बोवाळ सुरू. चडूच लाड केल्यात शंकराचे' एकटी शेजान्न दुसरे शेजान्नीच्या कानांत फुतफुतली.

'आवयबापायविणे पोर' दुसरी सुस्कारली.

'शंकर, हांगा लिपून बसला चोर. बाबा चल रे पदेरागेर वचून उंडे घेवन यो' बाबापुता करीत खाटी पोंदा लिपिल्ल्या शंकराच्या हाताक आजयेन घट्ट धरलें.

'ना–ना, हांव वच्चो ना पदेरागेर. तो म्हाका तापयता.'

'तापोवचो ना जाल्यार कितें करतलो. तुवूंय म्हणून मोटे कळीचो. वळखतां तुका हांव. नाका हाडूंक, आज्याक च्या पिवपाक जाय. चल हांवूच वचून हाडटां.' आजयेन म्हणलें.

आज्याचें नांव घेवपाची गुळी ज्युस्त लागली. शंकराचो आजो सामको घट इश्ट. आज्याच्यान पांयान चड चलपाक भोंवपाक जायनासलें. पूण आजो ताब्लांनी बरो खेळटालो आनी इस्पिकोय.

मागीर सुटयेंत शंकराक बेजार येनाशिल्लो. आतां आज्याक उंडे जाय म्हणलें तशें तो सट्ट करून उठलो.

शंकर पदेराल्या दारांत पावपाक पदेर भायर आयलो. ताची नदर शंकराचेर पडली तशें ताणें म्हणलें, 'आरे ये शोंकोर, इट्टलाल्या पोसक्या. तुका म्हुकोडल्यान घेतलेलो पोसूंक, साकभर कुंडो दिवन, जाणाय मुरे!'

ह्याच- ह्याच खातीर शंकर पदेरागेर येनासलो. ताका पळयलें रे पळयलें पदेर ताका पोसको म्हणटालो. शंकराक खूब राग येतालो पदेराचो. त्या रागान पदेराल्या पोरसांतलीं गुलाबाचीं फुलां तोडचीं अशें ताका दिसलें. पूण तो म्हणसर पदेर उंडे घेवन भायर आयलो. 'चोल बेग्यान पोसक्या, इट्टल रावता आसतलो च्यायेक' शंकराल्या हातांत पेपरांत गुठलायिल्ले उंडे कोंबीत पदेरान म्हणलें.

रागान खदखदत शंकर पदेराल्या घरा फाटले वटेन आयलो. घराचे फाटले वटेन नळ्यांतल्यान खोर्नाची पत्र्याची चिमणी ताका दिसली. थंय लागींच एक म्हस उबी आशिल्ली. ते म्हशीक आनी चिमणेक पळयतकच ताचे तकलेंत एक माण्णी आयली. ताणें कागदांतले उंडे थंय आशिल्ल्या दुर्गार दवरले आनी पदेराले बांयचेर आशिल्लो राजू काडलो. राजवाची कोंयणी ताणें गिरगीर घुंवडायली आनी नेटान मोखून चिमणेचेर उडयली. ती अळंग चिमणे भोंवतणी बसली. तसो राजू ओडून ताणें ती घट केली. मागीर राजवाचें एक पोंत म्हशीच्या शिंगाक घट्ट बांदलें. एका झोपाची बडी घेतली आनी फटाक करून म्हशीचेर मारली. म्हस जिवाच्या आकांतान धांवपाक लागली. तशी चिमणी नळ्यांतल्या वयर हुमटून आयली. नळ्यां वयल्यान राजवा सयत गडगडत सकयल आयली. आनी

म्हशी फाटल्यान जमनीचेर गडगडत वचपाक लागली.

पदेर आनी ताची बायल बोवाळ घालीत घरांतल्यान भायर सरलीं. तांचीय वरात म्हशी फाटल्यान धांवपाक लागली. येदोवेळ दुरगा फाटल्या माडाचेर लिपून ही मजा पळयतलो शंकर ल्हवूच माडा वयल्यान सकयल देंवलो आनी फाटले वटेंतल्यान घरा परतलो.

पूण हें कर्म शंकराचेंच हें कळपाक वेळ लागलो ना. शंकर थंय दुरगार उंडे विसरून आयिल्लो. आजयेन त्या दिसा शंकराक बरोच पेटलो. आनी मागीर ताका वेंगेंत घेवन रडली...

पप्पाची काणी सोंपली तशीं भुरग्यांनी ताका घट वेंग मारली. 'पप्पा, तूं मम्मी परस बऱ्यो काणयो सांगता. आनीक एक सांग मरे.'

'हूं सांगतां सांगतां. मातशें उदक तरी पियेतां' म्हणत पप्पा उदक पियेवंक उठलो. काणयेच्या नांवान आपल्या जिवितांतल्यो घडणुको सांगतना पप्पा परतो आपल्या भुरगेपणांत पाविल्लो.

पप्पा उदक पियेवन आयलो आनी पप्पान शंकराची काणी मुखार व्हेली.

शंकराक हार मानपाक आवडनासली. आनी त्या दिसा तर ताची हार जाल्ली. सगुण आनी आंतोनान ताका हारयल्लें. त्या दोगांयनी ताचे परस चड मोर धरिल्ले.

'मोर पप्पा, ते मोरूय धरताले?' युगान विचारलें.

'ना ना तसले मोर न्हय. हे मातयेंतले बारकेले जीव. शियाच्या दिसांनी मातयेंत मुंगरून रावताले. तांकां भुरगीं मोर म्हणटालीं. भुरगीं सकाळफुडें शाळेंत येतालीं. शाळा सुरू जावचे आदीं तांकां कसलेंच काम नासतालें. मागीर तांणी थंय शाळे कुशीकचे मातयेंत

आशिल्ले हे जीव व्हीर नाजाल्यार बडी धवळून काडचे आनी बाटलेंत भरचे. जो कोण हे मोर चड काडटा तो जिखतालो.'

'मागीर शंकर कसो हारलो. ताका कित्याक मेळूंक ना चड मोर?' यशान म्हणलें.

'शंकर आळशी आशिल्लो. भुरगीं फांतोडेर उठून शाळेंत वतालीं जाल्यार शंकराक उठोवपाक आजयेचो जीव नाका पुरो जातालो. जितलो उठयता तितलो परतो न्हिदतालो.'

'आळशाक वाग खाता' सिद्धांगान फट करून म्हणलें.

'आनी आळशाक मोर चुकतात' यशान म्हणले.

'हय शंकर उसरां शाळेंत पावतालो म्हणून ताका मोर चुकताले. पूण ते रातीं शंकरान थारायल्लें. कोंब्याच्या सादाक आजी उठ्ठा तेन्ना उठपाचें आनी शाळेंत वचून मोर धरपाचे. सगुण आनी आंतोन दोगांयचे मेळून जाता ताचे परस चड.

रातभर शंकर न्हिदूंक पावलो ना. केन्ना एकदां कोंबो आरवता आनी आपूण उठून शाळेंत वता अशें जाल्लें ताका. आदले राती ताणें बुशकोट, रिती बाटली आनी व्हिरूय काडून दवरिल्लो.'

'आनी न्हिदून उरलो आसतलो फांतोडेर' युगान म्हणलें.

'ना तसो शंकरान कितेंय मनांत हाडलें जाल्यार तो तें करून दाखयतालोच. ते फांतोडेर कोंकोंक कोंक करून कोंबो आरवलो तसो शंकर फट्‌ट करून हांतरुणार उठून बसलो. ताणें जनेल उगडून भायर पळयलें. पळयल्यार काळोखूच आसलो. तो म्हणसर आजी हांतरुणार उठून बसता ती शंकरान पळयली. तसो तो झुप्प करून हांतरुणांत आडवो जालो. आजयेची नदर ताचेर पडल्यार आनी माणसुकी नाशिल्ली. कित्याक उठलो? खंय

वता? कित्याक वता? असले नानातरेचे प्रस्न विचारपाची. मागीर येवजिल्लें सगलें वतलें आशिल्लें उदकांत. आजी उठली आनी रांदचे कुडींत गेली तसो शंकर उठलो. ताणें आवाज करिनासतना काल धुवन दवरिल्ली शारोपाची बाटली घेतली. बुशकोट घालो, खांदाक बोटवो आडकयलो आनी पांयांत जोतीं घालिनासतना ल्हवूच जनेलांतल्यान सकयल देंवलो. आनी काळखांतल्यानूच शाळे वटेन धांवत सुटलो. आयज तो मोर धरपाचो, सगल्यां परस चड मोर. विचारांचे तनरेंत तो केन्ना शाळे कडेन पावलो ताकाच कळ्ळेंना. शाळे कडेन पावता म्हणसर मातसो हयन्हयसो उजवाड जाल्लो.

शंकर शाळेचे भायले वटेंतले वणटी कडेन आयलो. ताणें बेगिबेगीन बोटव्यांतल्यान आदल्या दिसा घालून दवरिल्लो एक व्हीर, एक कट्टी आनी सकाळीं घेतिल्ली रिती बाटली भायर काडली. सकयल बसलो आनी मातयेंत भोंवरे कशे मातयेची ल्हानुली दोंगुल्ली कशी जाल्ल्या जाग्यार व्हीर घालून म्हणपाक लागलो 'यो रेऽ यो रेऽ यो रेऽ यो रे मोरा.'

'ना येते येते येते नाच रे मोरा' युगान मदींच म्हणलें.

'ए ओगी राव गो मातशें. मदींच उलयता' यश बेजारलो.

पप्पा फुडें सांगपाक लागलो.

'माती धवळ्ळी तशे त्या भोंवऱ्यांतल्यन बरड कशे बारीक जीव वयर सरपाक लागले. शंकरान ते जीव मातये सयत कट्टेंत घाले आनी मागीर कट्टेंतल्यान एक एक जीव वेंचून तो रिते बाटलेंत भरपाक लागलो.'

'शी' सिद्धांगान आंग शिरशिरायलें

'आयज सगुण आनी आंतोनीक बुद्द शिकयतलोंच. हांव आयज तांचे परस चड मोर धरतलों. शंकर मातयेंतल्या भोंवऱ्यांतले मोर धरपाक गुल्ल जाल्लो. ताका कसलीच सुद्द नासली. ताचे कुशीक येवन उबे राविल्ल्या आंतोन, सगुणाचीं अजापाचीं तोंडा लेगीत पळोवपाचें भान ताका नासलें. मातयेंतल्या मोरांनी ताची पावूण बाटली भरिल्ली. मातयेंत दिमी मोडून शाळेच्या सरभोंवतणच्यो वणटी ताणें माड्डिल्ल्यो. आतां आनीक थोडे मोर. मागीर हांवूच व्हड... अशें येवजितना धप्प करून ताचे फाटीचेर धुमको पडलो तसो तो मातयेंत लंवडलो. पळयल्यार आजी आनी तिचे कुशीक आंतोन, सगुण आनी वाड्या वयले, शाळेंतले जायते भुरगे.'

'हांव हांगा वाडोभर सोदता हाका आनी हो तवनास हांगा शाळे कडेन इतले फांतोडेर. मोर सोदता खंय मोर. त्या जिवांक कित्याक त्रास दिता रे आं? ते बावडे थंडे खातीर म्हणून मातयेंत मुंगरून रावतात आनी तूं...' आजी मेळत तशी ताचेर थापटां फुलयत आसली. पूण शंकराक ताचें कांयच दिसलें ना. पिशी आजी. आतां मारतली आनी घरा व्हरून आंगाक तेल लायत रडटली हें ताका सदचे संवयेन खबर आसलें.

पूण ताका व्हडल्यान रडचें शें दिसलें जेन्ना आजयेन बाटलेंतले मोर सगळे परते मातयेंत रकयले तेन्ना. आनी ते तशे रकयतना पळोवन आंतोन आनी सगुण व्हडल्या व्हडल्यान हांसले तेन्ना तर अदिकूच रडूंक आयलें.

'चला भुरग्यांनो न्हिदात आतां. पप्पाकूय पुरो जालां. आनी फाल्यां सकाळीं उठपाक जाय.'

'फाल्यां आयतार पप्पा आनीक सांग रे' यशान म्हणलें.

‘हय पप्पा’ युगा आनी सिद्धांगान वांगडाच म्हणलें.

‘सिद्धांगा, पिशा तुजो पप्पा न्हय, तुजो मावसो’यशान ताका तिडायलो.

‘चला चला’ मम्मान म्हणलें तशें पप्पान तिका म्हणलें, ‘विशाखा आयज तूं दुसरे कुडींत न्हीद. भुरग्यांक म्हज्या वांगडा न्हिदुनी.’

पप्पाचेर काणयांचो भार आयला हें मम्माक कळ्ळें. ‘बरें जाय तें करात!’ म्हणीत ती दुसरे कुडींत गेली. तशी पप्पान काणी परती सुरू केली.

‘शंकर तसो मनान बरो पूण ताका कोणेंय गरजेभायर कितेंय म्हणल्यार ताका राग येतालो.’

‘यशाक येता तसो न्हय रे पप्पा?’ युगान म्हणलें.

‘ना तुका येता तसो’यश तिडकलो

‘ओगी रावात रे, मावश्या फुडें सांग’ सिद्धांगान म्हणलें.

‘शंकर, सगुण आनी आंतोन जगगाळयेंत फुटबॉल खेळूंक वताले. जगगाळयेंत वतलो जाल्यार विनंती आईल्या पत्र्याच्या घराच्या सामकारच्यान वच्चें पडटालें. तिच्या घरा मुखार व्हडली आडवी पेर आशिल्ली. व्हडलीं व्हडलीं पेरां तिका लागतालीं. पूण विनंती आवयल्या भंयान कोणूच ते पेरीचे वाटेक वचनासलो. पेरीर पेरां पिकून अळंग गळून पडटालीं.

शंकर आनी ताचे इश्ट तिच्या दारांतल्यान पासार जाले काय ती धांवत येताली आनी म्हणटाली. ‘ए शंकर आमचे पेरीचीं पेरां तोडूंक इलय मरे. हातूच लावन दाखय. मगे दाखयतां तुमकां म्हाजो हिसको.’

एक दोन दीस शंकर तिका ओगी रावलो. पूण मागीर मात

ताका तिची तिडक मारली. ताणें आनी सगुण, आंतोनान तिका बुद्द शिकोवपाची थारायलें. विनंती आवय भुतांक खूब भियेता अशें आजयेच्या तोंडांतल्यान शंकरान खूब फावट आयकल्लें.

'पप्पाऽऽ' भुताचें नांव आयकताच भियेवन युगा पप्पाक तेक्कून बसलें. पप्पान ताका लागीं ओडलें.

'आयकय तरी' पप्पान म्हणलें. 'शंकर, आंतोन आनी सगुण त्या दिसा तिनसांज जावन काळोख जायमेरेन दुरगा भायर लिपून बसले. काळोख जालो तशे तिगूय लिपत दपत पेरीसरीं आयले आनी तांणी सकयल बागवून आयिल्ल्यो खांदयो घसघशीत हालयल्यो तशीं कुचकुचीत भरिल्लीं पेरां ढबढब करून विनंती आईल्या घरा वयल्या पत्र्यांचेर पडलीं. 'कोण रे तो?' म्हणीत विनंती आई घरांतल्यान भायर सरली आनी पेरी कडेन येवपाक तिणें पेरीचेर धवेंच कितें हालता तें पळयलें. तशी ती भियेवन किंळच्यो मारीत घरांत धांवली. आनी हें त्रिकूट केन्नाच हेवटेन येवन घराचे वाटेक लागलें.

'पप्पा खरेंच भूत आशिल्लें रे पेरीर' युगान भियेत विचारलें.

'भूत बी कांयच आसना गो. शंकरान आपलें बानयान बडयेक लावन दुरगा भायल्यानूच हालयल्लें. विनंती आईक तें पेरीचेर हालता कशें दिसलें. मागीर सदांच नासली तरीय अदीं मदीं हीं भुतां तीनकातरेर पेरीण हालोवन विनंती आईली फिरकी घेतालीं.'

'आनी पप्पा शंकरान इगर्जे कडल्या वडा पोंदा रावून लोकांक भिवयल्लें अशें त्या दिसा कोणा वांगडा उलयतना आयकल्लें तुका फोनार.'

'आं हय आंतोनीचो फोन तो. पोरणी याद काडटालो तो. '



'मागीर आमकां सांग मरे ती गजाल.'

'शंकराल्या वाड्यार अंधश्रद्धांचें खतखतें आशिल्लें. दर एकलो दुसऱ्याचेर दुबाव खातालो. दारांत मिरसांग लिंबू उंवाळून उडयतालो. वाड्या वयलो किश्तोद लोकांच्या ह्याच गजालीचो फायदो घेतालो. कोणूय बाबडो मेलो काय तो लोकांक भेश्टायता म्हणून सांगतालो.

एक फावट तर ताचें देमायज जालें. इगर्जेचो फादर भायर पडलो. सामको देवमनीस. लोकांचें बरें चिंतपी. तो मेल्या उपरांत किश्तोदीन लोकांक ओगीच भेश्टायलें. फादर दिश्टी पडटा आनी लोकांक भेश्टायता. जालें, लोक भिरांतीन तिनसांज जाल्या उपरांत इगर्जे कडल्या रस्त्या वयल्यान येना जाले.

पूण किश्तोद मात ताव्हेर्ना वयल्यान रातचो णवांक त्याच रस्त्यान सदांच वता हें सगल्यांक खबर आसलें. त्याच रस्त्यार किश्तोदीक बुद्द शिकोवपाचें शंकरान थारायलें.

ताणें फादराचो लोब कोणा कडल्यान मागून हाडलो. रातचो तो लोब घालून तो आनी ताचे इश्ट त्या रस्त्यार आशिल्ल्या रुमडाच्या झाडा कडेन लिपून रावले. झाडार वयर चडून बशिल्ल्या

सगुणान किश्तोद येता तो पळयलो आनी रातकीड किरकिरल्या भशेन आवाज केलो. शंकर तयार रावलो. आंतोन झाडा फाटल्यान लिपलो.

किश्तोद रुमडा पोंदा पावलो तसो 'धप्प' करून ताच्या मुखार शंकर उबो रावलो. पाद्रीचो लोब घाल्ल्या शंकराचें तोंड काळखांत दिसनाशिल्लें. शंकरान फादराचो आवाज काडलो. 'किश्तोद हांव दिसता म्होणोन सोगळ्यांक सांगतालो मुरे तूं! तुका मेवलोच ना मुरो हांव. यो यो असो आरो यो. बेसांव दितां तुका.' इतल्यांत आंतोनीन झाडां फाटल्यांतल्यान किंळच्यो मारिल्लेवरी आवाज काडलो 'हीऽऽ हीऽऽऽ हीऽऽऽऽ'

किश्तोदान ताव्हेर्नार कितें पियेल्लो तें एका खिणांत निवळ्ळें. भूत म्हणत तो धांवपाक लागलो. फाटोफाट शंकर आनी आंतोन, सगुणूय धांवपाक लागले. किश्तोद वाड्यार भितर सरलो तशे लोकूय ताचो आवाज आयकून भायर सरिल्ले. त्या सगल्यांक शंकरान सांगलें. 'पळयलें, फादराचें भूत बी कांय ना. हो किश्तोद तुमकां कांयचें कांय सांगून भिवयतालो.'

इतल्यांत यशान कुशींतलो तुवालो काडून 'हूऽऽ' करून आवाज करीत युगाचेर शेवटिलो. 'ए काळू' युगा रागान आड्डलें.

'पप्पाय काळो. मागीर ताकाय म्हणून दाखय 'काळू' म्हणून. जातलें म्हणूंक?' सिद्धांगान फट करून म्हणलें.

तशें पप्पान सांगपाक सुरवात केली.

'शंकरूय काळो आसलो तुमच्या पप्पाभशेन. आनी ताका सगले काळूच म्हणटाले. मागीर शंकराक प्रस्न पडटालो. शंकराचे सगले फोटे निळ्या रंगाचे. मागीर तो निळो कित्याक ना? निळो नासूं

आजये भशेन गोरो कित्याक ना?

ताका आजी मागीर तरातरांनी समजायताली. देवांची नांवां घेवन सांगताली. पळय शाण्या, श्रीकृष्ण काळो, राम निळो, विठ्ठल रखुमायूय काळी. मागीर तुका कित्याक वायट दिसपाक जाय काळो म्हणल्यार. तांकां सांग, देवूय काळेच आसतात म्हणून.'

'आयकय, देवूय काळो यशूय काळो कळ्ळें मगो' यश खूश जावन उलयलो.

'शंकरान एक दीस कितें केलें...'

'कितें केलें पप्पा?' भुरगीं परतीं काणी आयकुपाच्या मुडांत आयलीं.

'केन्ना केन्ना शंकर आजयेक विचारतालो, 'आजये तूं आनी आजो कितले गोरेपिट्ट मागीर हांव काळो कित्याक गे?' तशी आजी तिडकताली आनी बडबडपाक लागताली.

'आरे आत्तां सांगलें मरे तुका देवूय काळो म्हणून. तुका मरे कितलेंय सांग. तुजे दाडयेचें केन्ना सुटचना.'

तिणें तशें म्हणलें म्हणटकच तो तसो तो आज्या कडेन वचून होच प्रस्न विचारतालो. तसो आजो म्हणटालो, 'आरे तुजो बाबा तुका हाडपाक गेल्लो हॉस्पिटलांत तेन्ना तूं एकटोच उरिल्लो थंय म्हणून तुकाच हाडलो.' शंकराक तें पटनासलें तरींय आपल्याक पटलें अशें दाखोवन तो तकली हालयतालो.

पूण रजनी, कल्याणी ह्या भयणींचो मात ताका राग येतालो. ह्यो भयणी एका विशिश्ट जाग्यार पावतकच ताका चाळयतालीं, 'ए काळू... ए काळू...' शंकराक राग येतालो. पूण त्यो भयणी चवथे-पांचवेंतल्यो आनी शंकर तिसरेंतलो. शंकर तांकां कितें

करतलो. म्हणून ओगी रावून सोंसतालो. पूण शंकराच्या एक दीस सोंसणुके भायर जालें हें चाळोवप.

त्या दिसाय शंकरान एका व्हाळा वयली फोफाळीं हुपलीं तशो त्यो तिनूय भयणी ताचे फाटोफाट आयल्यो. हो व्हाळ तो दुसरो व्हाळ असो हो निर्मनुश्य जागो. त्या जाग्याच्या मदेकांत पावतकच ह्या भयणीनीं शंकराक चाळोवपाक सुरवात केली. 'काळूऽऽ काळूऽऽ' शंकर त्या दिसा तयारेंतूच आसलो. ताणें आनी वेळ लायलो ना. बद्द गेलो तो त्या दोगांय भयणींक धुकलून सकयल उडयलें आनी झूं करून धांवत सुटलो. दुसऱ्या व्हाळा वयलीं माडाच्या वाशाचीं फोफाळीं हुपून केन्नाच घरा पावलो. आतां रजनी–कल्याणीची आवय झगडपाक येतली म्हणून भियेवन कोठये कुडींत गेलो. थंय आशिल्लें एक पोरण्या कपड्यांचें पेटूल. त्या पेटलांत लिपून बसलो.

शंकरान येवजिल्ले तशें जालें. तांची आवय येवन आजये कडेन झगडपाक लागली. तांकां थातारता म्हणसर आजयेक नाका पुरो जालें. तीं वतकच शंकर ल्हवूच पेटलांतल्यान भायर सरतलो म्हणून आशिल्लो. पूण भायर चलिल्ली वादावादी आयकतां आयकतां ताका आयली न्हीद आनी न्हिदतना हात वयर उखलून पेटलाचें धांकण उगडें दवरिल्लें तें आपशींच बंद जालें. ते सरशीं शंकराची न्हीद खळ्ळी. तो पेटलांत घुस्मटूंक लागलो. ताणें बेगिबेगीन पेटूल भितरल्यान धाडावपाक सुरवात केली. त्या आवाजान आजी पेटला कडेन येवन तिणें तें उकतें केलें. पळयल्यार शंकर. शंकर पेटलांतल्यान भायर सरलो तसो आजयेन बडबडत ताचेर हात उबारलो. तशें शंकरान दोळ्यांत दुकां हाडून म्हणलें, 'आजये तीं म्हाका सदांच काळू म्हणून चाळयतालीं.' हें शंकराचें जादवाचें

मोस्त्र. तें आजयेक ज्युस्तूच लागतलें म्हणपाचें तो जाणा आसलो. आनी जालें तशेंच. 'काळू? कोण काळू? देव विठोबा ना काळो?, कृष्ण ना काळो?, म्हजो बाबा तो...' म्हणीत आजयेन शंकराक वेंगांत काडलो. वोल्तेरार बसून तांचें हें नाटक पळोवपी आजो मुमुरख्यांनी हांसलो.

'मावश्या एक विचारू?' सिद्धांगान विचारलें

'अरे ए स्कॉलर! मावसो कितें तुजो टिचर रे' यशान म्हणलें.

'विचारूनी रे. आपल्याक प्रस्न आसल्यार ते विचारूनच ताची जाप मेळोवची आसता' पप्पान सांगलें.

'मावश्या शंकराक प्रस्न पडनासले?' सिद्धांगान विचारलें.

'पडटाले तर. आतां ती काणीच सांगतां.'

'शंकर तेन्ना चवथेंत आसलो. मास्तर तांकां कविता शिकयतालो.

शर आला तो धावूनी आला काळ

विव्हळला श्रावण बाळ

हे आई गे दीर्घ फोडूनी हाक...आनी मास्तर शिकयतां शिकयतां रडपाक लागलो. मास्तर रडटा तें पळोवन सगळो वर्ग हांसपाक लागलो. पूण शंकराक मात अजाप दिसलें. कित्याक रडटा काय मास्तर. इतलें रडपा सारकें कितें आसा काय हे कवितेंत कोण हो श्रावणबाळ? तो शर कोण काय? तो काळ कित्याक धांवलो? शंकराच्या मनांत प्रस्नांचे गांजीलमूस घुंवघुंवपाक लागले. तो मास्तर शिकयतना परतो परतो 'गुरुजी गुरुजी' म्हणून मास्तराक उलो मारपाक लागलो. इतलो मन लावन शिकयतना हो शंकर आपले शिकोवणेंत व्यत्यय हाडटा तें पळोवन मास्तर पिकार जालो. 'शंकऱ्या ये इकडे. ये कोंबडा कर' म्हणून ताका ख्यास्त

दिली. पूण शंकर म्हणल्यार शंकर. आपल्यो जापो मेळयतलोंच हो हावेस. 'गुरुजी हा शिरावण कोण?, आनी तो काळ कित्याला धांवला?' मास्तराक आनीक तिडक मारली. 'धांवला धांवला नाही पळ्ळा. अस्सा पळ्ळा. अस्सा!' करीत मास्तरान ताचेर चार बडयो शेपलायल्यो. शंकराक वायट दिसलेंना. कविताच कितली कठीण ही. म्हाका कळना. गुरुजीकूय कळना जातली. आज्याक विचारूया. आजो बऱ्यो काणयो सांगता. चिल्लया बाळाची काणी सांगतना तोवूय असोच रडटा. पूण आपणें प्रस्न विचारतकच मारिना. वयल्यान बरो समजावन सांगता. आसूं. शंकरान गुरुजीक मनांतल्यान माफ केलें आनी तो कोंबो जावन खोशेन ख्यास्त भोगपाक लागलो.

'आवटो आसतलो शंकर. ख्यास्त म्हणून केन्ना खोशेन भोगतात' युगान म्हणलें.

आपलीं भुरगीं आपल्याकूच आवटो म्हणटालीं तें पळोवन पप्पाक हांसूंक आयलें.

'आनी एकदां जाल्यार कॉमिकूच जाली.' पप्पान म्हणलें. तशी भुरगींय परतीं काणी आयकुपाक सावरून बसलीं.

'शंकर तिसरेंत आसतनाची खबर. मास्तरान भुरग्यांक प्रस्न केलो, 'माणूस नाकाने श्वास का घेतो?' जायत्या भुरग्यांनी हात वयर केले. शंकरानूय केलो. मास्तराक शंकरान हात केलो तें पळोवन अजाप जालें. ताणें शंकराक जाप दिवपाक सांगली. शंकरानूय नेटान सांगलें, 'नाकाने स्वास घेतला नाही तर माणूस मरतो मास्तर'

'हो का रे बोंड्या. ये ये इकडे ये. मुलांनो आतां बघा. नाकाने

श्वास घेतला नाही तर माणूस कसा मरतो ते' म्हणीत मास्तरान शंकराक आपलेसरी आपयलें आनी ताच्यो दोनूय नाकपुडयो आपणें दामून धरल्यो. नाक दामलें तशें शंकराचें तोंड उगडलें 'मास्तरऽ नको मास्तरऽऽ' मास्तर नाक सोडिना आनी शंकर घुस्मटत आड्डुपाचें सोडिना. भुरग्यांची मनरिजवण जातकच मास्तरान ताचें नाक सोडलें आनी तांबड्या नाकाचो शेंड्यां मुखार शंकरान प्रतिज्ञा केली हाचे फुडें मास्तराक कसल्याच प्रस्नाची जाप दिवप ना.

'बोंड्या' सिद्धांगान मास्तराची नक्कल केली. तशीं भुरगीं हांसलीं.

'शंकर बोंडो नाशिल्लो आं. तो सामको समजिकायेचो आनी शिटूकसाणेचो. ताचे शिटूकसाणेची एक गजाल सांगतां' पप्पान म्हणलें.

'सांग सांग' भुरग्यांची उमळशीक परतून जागी जाली.

'शंकर पांचवेंत गेल्लो. चवथेंतल्यान एकदम इंग्लिशींत. नवी भाशा. आनी तातूंत डॉमनीक सरान पोयम पाठ करून येवंक सांगिल्ली.

दुसऱ्या दिसा प्रार्थने उपरांत पयलोच वर्ग डॉमनीक सराचो. आनी अजाप म्हणल्यार नंदा आनी सविता सोडल्यार कोणेंच कविता पाठ करूंक नासली. आनी त्या दिसा बाकीच्या वर्गांतलीं भुरगीं डॉमनीक सराक कित्याक भियेतालीं तें ताका तेन्ना कळ्ळें. त्या दिसा सरान सगल्या भुरग्यांच्या पांयाचेर वेताच्यो सरसरीत बडयो ओडल्यो. कोण रडटा, कोण किंळचता, कोण हुयेली मारता. कोण्णा कोण्णाक ताणें भोगसूंक ना. शंकराकूय. पूण ताचेय मुखार वचून सरान सगल्यांची जोतीं मॉनीटर युनूसाक एकठांय करूंक लायलीं



आनी सुमली घेवन ताणें तांचो हार गुंतलो. तो हार एकल्या एकल्या भुरग्याक घालून ताणें तांची बाकीच्या वर्गांत धींड काडली.

शंकर आतां विचार करपाक लागलो. सवेच्या वर्गांत बिराडकारालें सिंधू आसा, आठवेंत एडना आसा. म्हाका जोत्यांचो हार घाल्लो हें तीं सांगतलीं आनी मागीर आजी सामको बोवाळ करतली. तें आडावपाक जाय जाल्यार कितेंतरी उपाय करपाक जाय. शिटूक शंकराची तकली चलपाक लागली. युनूस सामको बारकेलो आनी आपूण घटमूट. आतां मेरेन आपली धुकलून उडयता म्हणून बरी जायरात जाल्या हें तो जाणा आसलो. ताचोच फायदो घेवपाचो ताणें थारायलें.

मजगतीं भुरगीं गळ्यांत जोत्यांचो हार घालून धींड काडून येवपाक लागलीं. सामकी रडारड सुरू आसली. चड करून चलयो सामक्यो हुंडकेत रडटाल्यो.

शंकराची पाळी आयली तसो शंकरान जोत्यांचो हार घालून घेतलो. पूण वर्गा भायर येतकच मात ताणें युनूसाचें कॉलर धरलें. कसलेंय काम करपाक का-कू केलें जाल्यार आजी ताका म्हणटाली, 'आरे शाण्या. तूं कांय न्ही करून तें काम करतलो. आरे तूं गजयेवणेचो. तुका हजार हतयांचें बळ.' तें ताका याद

जालें. ताणें ते गजयेवणेचो हांगा ज्युस्त वापर केलो. 'युनूस हांव सगल्यांक धुकलून उडयतां आनी तांचें कितें जाता तें तुवें पळयलां मरे? पळय म्हाका हजार हतयांचें बळ आसा.' शंकरान आपले दोनूय हाताच्यो मुठी आंवळीत ताका आपली शक्त दाखयली. 'हांवें तुका सकयल धुकल्लें जाल्यार तुजें कितें जातलें तें पळय.'

हुसेन शंकराचें उलोवणें आयकून भियेलो. ताणें भियेवन शंकराचें सांगणें आयकलें. तो शंकराक धायेक मिणटां थंयच घेवन रावलो आनी मागीर वर्गांत परतलो.

आपले शिट्टूकसाणेन आपूण बरो वाटावलो म्हणून चिंतपी शंकर आंतोनीक विसरलो. आनी सुसेगादीन घरा गेलो. पळयल्यार आजी हातांत बडी घेवन दारांत उबी. 'लज घाणावन आयलो मरे. गळ्यांत जोत्यांचो हार घालून घेतलो मरे...' आजी बडबडटाली. आजयेक कशें कळ्ळें असो विचार करतनाच ताका घरांतल्या जनेला कडेन आंतोन दिसलो. हें काम ताचेंच. राव ताका दाखयतां म्हणून शंकर मुखार सरला मात, आजी दांडो घेवन ताच्या फाटल्यान धांवली. बोटवो दारांतूच उडोवन शंकर धांवपाक लागलो. फाटल्यान दांडो घेतिल्ली आजी आनी तिच्या वांगडा बोवाळ घालीत वाड्या वयलीं भुरगीं. ही वरात वाडोभर भोंवली. एका झाडा मुखारल्यान शंकर वता आसतना अचकीत झाडा फाटल्यांतल्यान आंतोनीन येवन ताका पागडी मारली. शिडशिडीत हाडां कसो दिसपी आंतोनीचीं हाडां शंकराच्या मांसाळ आंगाक बरींच तोंपली. त्यावूय परस आंतोनीचीं चाडयाळेपणा ताका चड तोंपलीं. आंतोनीन वांगडा आतां आजीय आसली. तिणें शंकराक बांयच्या खांब्याक बांदून दवरलें आनी भुरग्यांक सांगलें, 'भुरग्यांनो, हांसात ह्या पिशाक. जोत्यांची माळ

घालून धींड काडिल्ली ताची.... 'आजी बडबडटाली आनी भुरगीं हांसतालीं. ह्या वेळार रडून कांय उपेग ना. आजयेक बेजार करपाक जाय जाल्यार हांसप होच उपाय हें शंकर जाणा आशिल्लो. तो त्या भुरग्यां सांगाताक आपुणूय हांसूक लागलो. 'शी! हांसता पळय लजशिमरो कसो' आजयेन म्हणलें तसो तो चडूच हांसूक लागलो. ताचें तें हांसप पळोवन आजयेक चड तिडक मारली. लजशिमरो, नाककात्रो म्हणीत ताणें मागीर ताका सोडून दिलें.

पप्पा पळयतालो. आपूण शंकराची हा गजाल सांगतना भुरगीं खूक खूक करून हांसताली. पप्पान मुखार म्हणलें, पुरो काय...'

'आनीक जाय' आनी एक भुरग्यांनी एकदम म्हणलें.

पप्पा मुखार सांगपाक लागलो.

शंकराक प्रयोग करपाची खूब संवय आशिल्ली. वाळचे भाजयेच्यो बियो चिड्डून हातार तांबडीच नक्षी काडपाक मेळटात, फुटिल्लें दूद भायर काडून उडोवपाक आजी दवरता तेन्ना तें वयलें उदक उडोवन सकयल दुदाचो दाट गुळो येता तातूंत साकर घालून खावपाक मेळटा, आंबटाण आनी लोणयाच्या गुळ्याक साकरेच्या डब्यांत लोळोवन काडटकच एक वेगळीच टेस्ट कशी येता हाचेर प्रयोग करून तो तें हेर भुरग्यांकूय करपाक लायतालो.

असोच ताणें एक सोद लायलो. माडाचीं तरणीं मुळां आनी घाणयारेचीं पिकी फळां एकठांय खायत जाल्यार जीब आनी ओंठ तांबडेगूंज जातात. हो प्रयोग ताणें सगल्यांच्या कानार घालो. तशी तांणीय आपली जीब आनी ओंठ तांबडेच केले.दांत-ओंठ रंगयिल्ले हे अवतार घरा पावतकच तांच्या आवयांनी तांकां बरीच भायरी दिली आनी एकली ताचे आजयेसरी आयली ताची कागाळ घेवन.



'मागीर मारलें आसतलें आजयेन ताका?' यशान विचारलें. पप्पा मुमुरखोच हांसलो.

थोड्या वेळान सगळीं भुरगीं न्हिदून पडलीं. पूण पप्पाक न्हीद येनाजाली. ताका परत परत ती काणी याद जावपाक लागली. सडेकार पसरकाराची. दुश्ट सडेकाराक बुद्द शिकयल्ली ती. पप्पाच्या दोळ्यां मुखार ती घडणूक सरसर करून येवपाक लागली.

सडेकार पसरकार किरकिरो आनी दुश्ट. पसऱ्यार तो कांदे तोमाट, लिंबू मिरसांगोय विकूंक दवरतालो. आपलो पसरो सोडून दुसऱ्या पसऱ्यार वतल्या लोकांच्या दारांत तो लिंबू मिरसांगो, पिंजर बी दवरून लोकांच्यो बोबो घालतालो. शंकरान ताका हें करतना लिपून पळयिल्लें. ताणें ही गजाल आंतोन आनी सगुणाक सांगली. त्या तिगांनीय सडेकाराचो बारीकसाणेन अभ्यास केलो. तो केन्ना कितें कितें करता तें जाणून घेतलें. सडेकार पसऱ्या वयल्यान रातचो परततालो. मागीर तो तांच्या घरा मागीलदारांत झाडां मदीं आशिल्ले बांयचेर न्हावपाक वतालो. शंकराल्या त्रिकुटान एक दीस थारायलो. त्या दिसा तांणी मसुंडींतल्यान एक कवटी फारायली.

ते रातीं आंतोन झाडाचेर आनी सगूण सडेकाराल्या घरा फाटल्यान लिपून बसले आनी शंकर बांयंत तें हाड घेवन सकयल देंवलो. सडेकार बांयसरी येता तें पळोवन आंतोनीली रातकीड किरकिरली. शंकर शिटूकसाणेन रावलो. सडेकारान कळसुलेक राजवाची कोंयडी आडकोवन बांयंत सोडली. उदक काडून घसघशीत माथ्या वयल्यान रकयली. साबण लायलो आनी परती कळसुली बांयंत सोडली. कळसुली भरली तो आवाज आयकून ताणें राजू वयर ओडलो मात, तो ताका मातसो ल्हव लागलो. तरीय ताणें राजू वयर ओडलो. कळसुलेक हात घालो तशें हाड कशें कितें लागलें. साबण लायिल्ल्या दोळ्यांनीच ताणें पळयलें. पळयल्यार राजवाक कवटी. ते सरशीं तो थारा भियेलो आनी किंळच्यो मारीत घरा वटेन धांवलो. तो मागीलदारांत पावचे पयलीं ताचो पांय लिंबाचेर पडलो. 'करणी कोणें करणी केल्या' म्हणीत तो बोवाळ मारपाक लागलो. ताचो बोवाळ आयकून थंय आयिल्ल्या लोकां मुखार बोवाळ घालपाक लागलो. ताणें हाडाची खबर सांगली आनी तो सगल्यांक बांय कडेन घेवन आयलो. पळयल्यार अजाप! राजवाक हाड नाशिल्लें. कळसुलीच आशिल्ली. सगळ्यांनी ताका पिशांत काडलो. तसो तो तांकां करणेचो लिंबू दाखोवपाक आयलो. पूण सोदून लेगीत तो लिंबू ताका थंय मेळ्ळोना. तांच्या बोवाळा भितर त्रिकुटान आपलें काम करून थंयच्यान फुज्र्यो काडिल्ल्यो.

आपल्याक भुतानूच बुद्द शिकयल्या अशें सडेकाराक दिसलें. तेन्नाच्यान तो रातचो बांयचेर न्हावपाक येना जालो तो जालोच लोकांल्या दारांत लिंबू मिरसांगोय आतां दिसना जाल्यो.

शंकराचो आतां पप्पा जाल्लो. शिरवीस आनी घरसंवसार हातूंत

सगळें विसरून गेल्लो. आयज ह्या भुरग्यां खातीर शंकराच्यो यादी जाग्यो जाल्ल्यो. आंतोन, सगूण, आजी, आजो आनी शाळे खातीर शंकर आशिल्लो आतां शंकररबाब गोवेकार आसलो. भुरग्यां खातीर कांय जायना काळीज पयलींच्या यादीनी गोड जालें. त्यो गोड यादी उशाक घेवन पप्पा सुस्त न्हिदलो.

# छुटकू



छुटकू रातभर हांतूणार कूस परतीत आसलो. ताच्या दोळ्या मुखार आर्ट गॅलरींतलें तें चित्र येतालें. चुलींत उजो फुंकपी ते बायलेचें. सगळे लोक त्या चित्राची तोखणाय करताले. एकल्यान तर ते चित्र सोमतेंच आपूण विकतें घेता म्हणून जाहीर केल्लें.

पूण छुटकूक तें चित्र अजिबात आवडूंक नाशिल्लें. उजो फुंकता ती बायल केन्ना अशी दिसता? ताच्या दोळ्यां मुखार नळयेन उजो फुंकपी ताची अम्मी उबी राविल्ली. अम्मीच्या कपला वयल्यो मिरयो आनी घामाचे थेंबे, फुगिल्ले पोले, धुंवरान तांबडेच जाल्ले, बारीक जाल्ले दोळे, गळ्याची तटतटून फुगिल्ली शीर . पूण ह्या चित्रांतली बायल तर सामकी अळंग पोले फुगोवन फूंक मारताली.

'अम्मी' छुटकू अम्मीचे कुशीत रिगलो. 'सो जा बा. मजे सबां उठना है. 'अम्मी न्हिदेंतच छुटकूक थापटितां थापटितां सामकी

न्हिदून पडली.

तशें ही गजाल अम्मी कडेन उलोवपाचीच नासली. खायन म्हणून आंगार येवपाची. 'तुजे कितनी बार बोला. ये फालतू कामां नको करूं. मार खाया लतीफ से वो बिसरा नय क्या' अशें म्हणपाची.

छुटकू कसो विसरतलो तो मार. काळो निळो जाल्लो तो त्या मारान. तेन्ना सावन बोटां कितलींय शिवशिवलीं तरीय छुटकू कितेंच चित्रावपाच्या भानगडींत पडनासलो. छुटकूच्या दोळ्या मुखार त्या दिसाचें चित्र उबें जालें. अब्बा मरतकच छुटकूक आनी ताचे अम्मीक घरांतल्यानीं धांवडावन घालें. कितले त्रास जाले तेन्ना गांवांत तांकां. लतीफ मामू तांका हांगा घेवन आयलो म्हणून बरो. ताणेंच अम्मीक हॉटेलांत आयदनां घांसपाक कामाक दवरिल्लें. लतीफ मामूल्या घरा फाटल्यान एके-एके कुडीचीं कितलीशींच बिराडां आसलीं. तातूंत अम्मी आनी छुटकू रावताली. सात वर्साचो छुटकू. ना शाळा ना कसलें काम. हेर कुडींतय ताचे पिरायेचीं भुरगीं नासलीं. अम्मी कामाक वतकच तो मागीर आपल्या कामाक सुरवात करतालो. वण्टींचेर चित्रां पितारपाचें. अब्बा काडटालो, तांचें घर काडटालो, कुस्की चाची, झगडाळ चाचा सगळ्यांक पितारून दवरिल्लें ताणें वण्टीचेर. अब्बा सगळीं चित्रां पळोवन खूश जावपाचो. पूण... तशी अम्मीय तीं चित्रां पळोवन केन्ना केन्ना दोळ्यांत दुकां हाडून म्हणटाली, 'तेरे अब्बा हते तो कितनी शाबासी देते तुजे.'

त्या दिसा छुटकू कुडींतल्यान भायर येवन लतीफ मामूल्या घराचे दुसरे वटेन गेल्लो. नवोच रंग मारिल्ली वणत. थोडो वेळ तो ते वण्टीक वणखून उबो रावलो. इतल्यान पयसुल्ल्या झाडा

कडेन ताका एक बोकडेचें पील आवयचें दूद लुचतना दिसलें. तो अपुरबायेन तांकां पळोवंक लागलो. तांकां पळयतां पळयतां छुटकून केन्ना सकयल पडिल्लो नळकुटो काडलो आनी केन्ना ताणें वणत चित्रायली ताका कळ्ळेंच ना. कळ्ळो तो फाटीर पडिल्लो धपको. 'दिवार रंगाने तुजे लाया क्या? इतना पैसा देके खालीच रंगायी मैने दिवार. वो काम तो तुझेच देनेका था...'उतरां वांगडा गाळयो आनी पोल्याचेर, फाटीचेर थापटांचो मार. कोणेतरी हॉटेलांत वचून अम्मीक कळयतकच ती धांवत आयली आनी सोडयलें लतीफ मामूच्या हातांतल्यान. अम्मीन तेन्नाच ताका सोपूत घालो. 'खा मेरी कसम नय करेगा ये सब. नय तो मरेगींच देखो तेरी अम्मी.'

मारा परस अम्मी मरपाचो भंय माणकुल्या छुटकूच्या मनांत घर करून रावलो. सैमांतले तरातरांचे देखाव पळोवन ताचे हात शिवशिवताले. हॉटेलांत अम्मी आयदना घांसतना तिचे जावपी हाल ताच्या काळजाक स्पर्श करून भायर येवपाक धडपडटाले. पूण अम्मी मरत ह्या भंयान ताणें आपल्या मनाक दामून दवरिल्लें. तशें परतें घडचें न्हय म्हणून अम्मी भायर सरली काय तो असो भायर भोंवतालो. एकदीस घरा फाटली पायण काडून आयलो जाल्यार रस्त्या पलतडी ताका एक व्हडलें घर दिसलें. ताच्या दारांत कितल्योश्योच गाडयो उब्यो आशिल्ल्यो. ताणें लागीं वचून पळयलें. लोक त्या घराच्या दारांतल्यान भितर सरतात. उमळशिकेन तो घराच्या दारा कडेन गेलो. भितर वण्टीक कितलीशींच चित्रां लायल्यांत आनी लोक तोखेत ती पळयतात तें ताका दिसलें. तो दारांतल्यान भितर वचपा खातीर मुखार आयलो तसो दारा भितरले वटेन उबो आशिल्ल्या सॅक्युरिटीन ताचेर धेंगसो घालो.

त्या दिसा छुटकू थंय सावन गेलो खरो पूण मागीर ताका थंय येवपाची संवयच जाली. आठ आठ दीस केन्ना केन्ना पंदरा पंदरा दीस थंय चित्रांचें प्रदर्शन भरतालें. मागीर थोडे दीस खंयचे कडेन कांयच ना. छुटकूच्या मनांत खूब येतालें. आपणेंय एकदीस भितर वच्चें. चित्रां पळोवचीं. पूण तशी वेळ केन्ना आयली ना.

एक दीस ताचें नशीब भारार आसलें. त्या दिसा एका तरणाट्या चित्रकाराच्या चित्रांचें प्रदर्शन भरपाचें आसलें. तें पळोवपाक एक नामनेचो चित्रकार येवपाचो आशिल्लो. आर्ट गॅलरींत सोयऱ्यांक खावपाक कांय बॉक्सां घेवन एक गाडी आयली. पूण बॉक्सां भितर कशी व्हरची अशें तो गाडयेवालो येवजितनाच ताका छुटकू दिश्टी पडलो. ताणें ताका बॉक्सां भितर व्हरपाची कुरू केली.

पेज मागतल्याक पायस मेळ्ळो तशें शें छुटकूचें जालें. तो खाणाचीं बॉक्सां माथ्यार घेवन उमेदीन भितर गेलो. बॉक्सां ताणें मांडून दवरिल्ल्या टेबलाचेर दवरलीं. गाडयेंतलो तो मनीस उलोवपांत गुंतला तें पळोवन तो ल्हवूच चित्रां लायिल्ले कुडींत आयलो. मळबांत उडटली घोण, लाकडां फोडपी दादलो, माथ्यार भोरो घेवन वचपी बायल आनी... त्या चित्रा कडेन खूब गर्दी आशिल्ली. एक जाण्टेलो त्या चित्राची तोखणाय करतालो. छुटकून ल्हवूच त्या चित्राचेर नदर मारली. नळी घेवन उजो फुंकपी ती बायल. तुकतुकीत पोल्यांची. अचळय लांबसडक बोटांनी फूंक मारताली. छुटकूक आपली अम्मी याद जाली. चुलींत उजो फुंकतना तिचो तांबडो गूंज जाल्लो, घामेल्लो चेरो, बारीक जाल्ले दोळे, तटतटून फुगिल्ले पोले आनी तटतटिल्ली मानेची शीर. 'ठीक नय ये चित्तर' ताच्या तोंडसून उतरां भायर पडलीं. सगळ्यांनी ताचे कडेन वळून

पळयलें. इतल्यांत ताच्या माथ्यार खाणाचें बॉक्स घेवन आयिल्लो मनीस थंय धांवत आयलो. आनी ताच्या हाताक धरून ओडीतच ताका भायर घेवन गेलो. 'ये ले' म्हणून १० रुपया हातांत दवरून तो परतो भितर गेलो.

छुटकूक राग आयलो. धांवत भितर वच्चें आनी तें चित्र पुसून आपणें चित्र काडचें अशें दिसलें. पूण खीणभरूच. आपणें चित्र काडलें जाल्यार अम्मी मरतली ह्या भंयानच तो थंयच्यान गेलो. ताणें धा रुपया अम्मीकूय दाखयले ना आनी तिका कांय सांगलेंय ना. अम्मीच्या उश्याचे फ्रॉन्जेंत धा रुपया लिपोवन दवरले.

त्या दिसा छुटकूक जेवण बरें लागलें ना. तो ओगी ओगी आसा तें अम्मीकय जाणवलें. 'क्या हुआ बा. चुपीच है सो. सीर दुखतय? आ दबाती हूँ. मेरा चांदीका बेटा, सर पे जरी का फेटा...' म्हणत अम्मीन ताची तकली बरी थापटिली. 'चल अब, सो जा...' म्हणत ताका कुशीत घेवन तिवूय आड पडली. दिसूयभराच्या कामान थकिल्ल्यान तिका रोखडीच न्हीद लागली. पूण छुटकूक मात न्हीद लागली ना. तो रातभर हांतरुणार तळमळत रावलो. ताचे हात चित्र काडपा खातीर शिवशिवत रावले. फांतोडेर अम्मी उठचे पयलीं तो हांतरुणा वयलो उठलो. पांयाचो आवाज करिनासतना तो लतीफ मामूल्या घरा फाटल्यान आयलो. थंय कुशीकच पडिल्लो नळकुटो घेवन पायण हुपून तो आर्ट गॅलरीसरी केन्ना पावलो ताचे ताकाय कळ्ळेंना. थंय जितो मूस नाशिल्लो. पूण सॅक्युरिटी मात दारार बसून सुस्त न्हिदिल्लो. छुटकू आर्ट गॅलरीच्या भायल्या सुळसुळीत धवे वण्टी कडेन उबो रावलो. एक खीण ताणें दोळे धांपले. छुटकूच्या दोळ्यां मुखार अम्मी उबी रावली. नळयेन उजो

फुंकतना. अम्मीच्या घामान भिजिल्ल्या कपला वयल्यो मिरयो, तांबडे जाल्ले बारीक दोळे, फुगिल्ले पोले, माने वयली तटतटून फुगिल्ली शीर. छुटकूच्या नकळटा ताचे माणकुले हात वण्टीचेर अचळय भोंवूक लागले. नळकुट्यान ताचे अम्मीक चितारीत रावले. सामकें तल्लीन जावन ताणें चित्र पुराय केलें. आनी तो भानार आयलो. आपणें अम्मीचो सोपूत मोडलो. आतां अम्मी मरतली हे जाणिवेन तो सामको थतरवितर जालो. 'अम्मी' म्हणून तो वळ्ळो तेन्ना फाटल्यान आशिल्ल्या कालच्या मानेस्त चित्रकाराचेर आदळ्ळो. आर्ट गॅलरींतले वयले माळयेर वसतीक आशिल्लो तो फांतोडेर पासयेक भायर सरतालो तेन्ना ताणें छुटकूक पळयिल्लें. ताणेंच दांडो घेवन छुटकूक मारूंक वचपी सॅक्युरिटीक आडायल्लो. त्या जाण्टया सांगाताक फांतोडेचेर पासयेक वचपी जायते लोक थंय थारून छुटकूचें चित्रांकन तटास जावन पळयताले. 'वा! वा!', 'क्या खूब!', 'कितलें सोबीत चित्र.', 'सामकें खरें जितें जिवें' लोकांच्या तोंडांतल्या उतरांचेर छुटकूचें लक्ष नाशिल्लें. दुकांनी भरिल्ल्या दोळ्यां मुखार ताका आपल्याक सोदीत लतीफ मामा आनी कांय लोकां वांगडा थंय आयिल्ली अम्मी ज्युस्त झळकली. आपणें चित्र काडूनय अम्मीक सोपूत बादूक ना, ती अजूनय जिती आसा हाची खोस छुटकूक जाली. 'अम्मी गे!' म्हणून धांवत तो अम्मीच्या गोपांत रिगलो.

# धाडशी निर्णय



पेडवाड्या वयले चडशे भुरगे साळ न्हंये देगे वयल्या बांदार अभ्यासाक वताले. तांचे मदीं नंदूय आसतालो. नंदू अभ्यासांत हुशार, शिटूक आनी धाडशी भुरगो. तसो मस्तोय, बी. म्हणून बांदार अभ्यासाक वतना ताका बापायन शिटकावचें, 'नंदू थंय उदका कडेन सांबाळ आं. खूब खोल आसा उदक. आयकता मरे?'

ताचेर नंदूचे आवयन बेजारून म्हणचें, 'आयकता मरे म्हणून कितें विचारता? ताका थंय अभ्यास करपाक धाडूंच नाका न्हय. त्या बांदा वयले ते न्हंयेंत पयलीं कितलेशेच बुडून मेल्यात आनी हाका तर दनपार लागना, तिनसांज लागना...

अभ्यास जाल्या उपरांत नंदू, कॅजिटन आनी टोनी सद्दां साळ न्हंयेंत पेंवपाक शिकतात हें बाबडे आईक खबरूच नाशिल्लें. अभ्यासाचो अभ्यास आनी पेंवपाचें पेंवपी जावन नंदू खांपो पेंवपी जाल्लो.

परिक्षा निकतीच सोंपिल्ली. सकाळचो आदेस नंदू आनी ताचे इश्ट बांदार पुरो जायसर फुटबॉल खेळ्ळे. ज्युस्त दनपारच्या बारा वरांचो वेळ जाल्लो. आतां कितें खेळुया हाचेर भुरगे भासाभास करताले तेन्ना नंदू,कॅजिटन आनी टोनी बांदा वयले साळ न्हंयचेर गेले. नंदू आनी कॅजिटन बरे पेंवपी, पूण टोनी मात सुमाराचो पेंवपी. भरतेचो वेळ आसलो. उदक नेटान व्हांवतालें. नंदू आनी ताच्या इश्टांनी सडसडीत उदकांत उडयो मारल्यो.

एकामेकाचेर उदक मारीत, फकांडा करीत ते पेंयताले. इतल्यांत कॅजिटनान म्हणलें, 'टोनी, चोल सर्त लावया. कोण पोयलीं पोलतडीं पावता तें पोळोवया' ते बरोबर नंदूय फुल्लो. पूण टोनीचें तोंड बावलें. कॅजिटनान ताका म्हणलें, 'हांव आसतना तूं भियेता रे. चोल फाटीर बोस. व्होरतां तुका पोलतडी.' आतां टोनीय फुल्लो. 'आरे नाका आं...' म्हणून नंदू तांकां आडावपाक वतालो ताचे पयलींच टोनीन कॅजिटनाचे फाटीर उडी मारली.

कॅजिटन टोनीक फाटीर घेवन पेंयता खरो पूण वाटेर ताका पुरो जातलें. तेन्ना फाटी वयल्या वज्या सयत कॅजिटन बुडपाचो भंय आशिल्लो. तांकां सांगल्यार ते दोगूय कांय आयकुचे नासले. त्या परस तांच्या सांगाताकूच कांय अंतर दवरून आपणें पेंयल्यार बरें अशें चिंतून तो तांच्या सांगाताकूच पेंवपाक लागलो.

नंदून येवजिल्लें तशेंच जालें. न्हंयेचे मदीं पावता म्हणसर टोनीक फाटीर घेतिल्लो कॅजिटन खरशेलो. फाटी वयल्या टोनीक सांबाळटा सांबाळटा कॅजिटनूच बुडपाक लागलो. ते बराबर नंदून म्हणलें, 'टोनी, कॅजिटनाक मेकळो सोड. तूं उदकांत उडी मारून पेंवपाक लाग.' पूण टोनी, सामको भियेल्लो. तो कॅजिटनाचे फाटी

वयल्यान देंवपाक तयारूच ना जालो. आतां दोगूय बुडपाचो भंय निर्माण जालो. नंदून एक माण्णीं केली. ताणें टोनीक आपले फाटीर उडी मारपाक सांगलें. भियेल्ल्या टोनीन आकांतून नंदूचे फाटीर उडी मारली आनी आपल्या हातांनी नंदूच्या गळ्याक घट्ट पागडी मारली. नंदू घुस्मटलो आनी टोनीसयत नेटान उदकांत बुडपाक लागलो. नंदूक न्हंयेचे खोलायेचो अदमास आसलो. आनीक पांच मिणटां पेंयत रावल्यार उथळ उदक मेळटलें. थंय तळाक पांय तेकोवंक मेळटले. त्या अदमासान नंदू घुस्मटत टोनीचें वजें सांबाळीत वेगान पेंवपाक लागलो. पूण जमनीक पांय लागमेरेन टोनीन नंदूच्या गळ्यां भोंवतणचो हातांचो फांस चड आंवळिल्लो. नंदूच्या दोळ्यां मुखार मरण आं करून उबें आशिल्लें. आपूण मेल्यार टोनीचेंय मरण निश्चीत हें ताका कळिल्लें. कॅजिटनाचें कितें जालें तें कळपाकूय मार्ग नाशिल्लो. पूण आपल्याक समांतर कोणतरी पेंयता हाची नंदूक जाणीव जाली. तो कॅजिटनूच आसूंक जाय अशें नंदूक दिसलें. आतां पांय जमनीक तेंकपाक लागले. दोगांकूय साल्वार करपाक जाय हे भावनेन नंदून शिटूकसाणेन टोनीचे दोनूय हात धरले आनी आसा तितलीय शक्त वापरून ताच्या हातांचो गळफांस काडून ताका उदकांत उडयलें. कुशींतल्यान कॅजिटन झुप्प करून आयलो आनी ताणें टोनीक फाटीर घेतलें आनी पलतडी व्हेलें. नंदूय पेंयत देगेर आयलो.

देगेर पावनाफुडें टोनीक नंदूक आनी कॅजिटनाक घट वेंग मारली आनी हुंडकेत म्हणपाक लागलो, 'तुमी म्हुजो जीव वाटायलो.'

जीव तिगांयचो वांचिल्लो. तिगांयच्या दोळ्यांतल्यान जीव वाटावल्ल्या खातीर खोशेचें उदक व्हांवतालें.

# बुली



'अव्वा, हांव आयज शाळेंत वचना!' शिवण्णा परतो परतो आवयक सांगतालो. पूण आवयचें एकूच टुमणें, 'पयलीं शाळेंत वच. शाळेंत गेल्यारूच बऱ्याक पावतलो पुता.' खरें म्हणल्यार शुभलक्ष्मीकूय अजाप दिशिल्लें. हरशीं केन्नाच शिवण्णान शाळेंत वचना म्हणूंक नाशिल्लें. आयज कित्याक म्हणटा आसतलो अशें खीणभर तिच्याय मनांत आयलें. पूण मागीर तिणें चिंतलें, नवी शाळा, नवें शार म्हणून पोर आबूज जाला आसतलो. दोन चार दीस करतलो असले नखरे आनी मागीर जातलें सगलें सारकें.

अव्वान धाडलां म्हणून शिवण्णा शाळेंत आयलो खरो पूण भितर सरपाक ताचें मन धजना जालें. गांवांतल्या शाळेंतल्यान शारांतल्या शाळेंत आयिल्ल्या भुरग्याचे कितें हाल करतात हे भुरगे, तें अव्वाक कशें समजतलें. तो शाळेचे गेटी कडेनूच मातसो अनमनलो. इतल्यांत

फाटल्यांतल्यान आयिल्ल्या एका भुरग्यान कुट्‌ट करून एक कुटली ताचे तकलेर मारली आनी व्हडल्यान म्हणलें, 'ए शिवण्णा, खाता भिण्णां!' तशे ताच्या फाटल्यान आशिल्ले सगले भुरगे खो खो करून हांसपाक लागले. मान सकयल घालून तो शाळेंत भितर सरलो आनी वर्गांत भितर सरतना खांकुडलो. वर्गांतल्या निमाण्या बांकार बसपी चौकडी थंय मुखारूच उबी आसली. शिवण्णाक पळयतकच एकल्यान ताका म्हणलें, 'ए घाटया, तुका शेंडीय आसा मरे.' 'पळोवया, पळोवया' करीत भुरगे ताचे कुशीक वाटकुळ करून रावले. ही पळय शेंडी ना, ना ही पळय शेंडी म्हणीत भुरगे ताचे केंस ओडपाक लागले. एकल्यान ताच्या चश्माक हात लायलो आनी एकलो कलसांव ओडूंक लागलो. वर्गांतलीं सगलीं भुरगीं धरून चलयो व्हडल्या व्हडल्यान हांसूंक लागल्यो.

अशीं कशीं हीं भुरगीं. कोणची दया ना माया. कित्याक छळटात हीं अशीं म्हाका कितें वायट केलां हांवें तांचें. शिवण्णाच्या दोळ्यांत दुकां भरलीं.

'बायल रे बायल! रडटा पळय कसो!' म्हणीत एकल्यान कुल्या बरोबर थापट मारलें. सामको वळवळ्ळो शिवण्णा. पूण ताचें वळवळप पळोवन भुरग्यांच्या पोटांत हांसून हांसून मुड्डो पडिल्लो.

शिवण्णा सामको थंड सभावाचो भुरगो. आपली आवय आपल्याक शिकोवपा खातीर खूब कश्ट करता हें तो पळयतालो. तिका ह्या त्रासांतल्यान मेकळें करपाक जाय जाल्यार आपणाक खूब शिकपाक जाय, बरी नोकरी करपाक जाय आनी अव्वाक सुसेग दिवपाक जाय अशें तो सदांच चित्तालो. अव्वा ज्या ऑफिसांत काम करताली तें ऑफिसूच आतां ह्या शारांत हाडिल्लें. म्हणटकूच

अव्वाकूय येवचें पडलें. तरी त्या ऑफिसराच्या बरेपणान तांकां त्या शारांत भाड्याचें घर मेळिल्लें आनी ह्या बऱ्या एका नामनेच्या स्कुलांत ॲडमिशन. शिवण्णाक ॲडमिशन मेळपाक त्रास जाले नात ताच्या पर्सन्टेजी खातीर. ८० टक्के पडिल्ले ताका आठवेक म्हणून हे शाळेंत ताका सोंपेपणान णव्वेक अडमिशन मेळिल्लें.

पूण शाळेंत हें आयिल्ल्या दिसा अशें चलतालें. फाटलो एक म्हयनो सोंसतालो शिवण्णा, पूण तो कोणाक सांगतलो आसलो. आवयक हें सांगून तिका त्रास करपाचे नाशिल्ले शिवण्णाक म्हणून सगळें सोंसतालो तो. वर्गांत टिचर आयल्या उपरांतूच ताका मुक्ती मेळटाली ह्या भुरग्यांच्या त्रासांतल्यान.

आयज टिचर शिकयताली तो शिवण्णाच्या आवडीचो विशय. हिंदी. टिचर शिकयतालीय मन लावन. सगल्यांक समजत अशें. पूण आवडीचो विशय आसुनूय शिवण्णाचें मन शिकपांत लागना जालें. सुमार म्हयनो जालो हीं भुरगीं बुली करतात म्हाका. खूब त्रास जातात, कुडीक आनी मनाकूय. कोण इश्टागतूय करपाक सोदिना म्हजे कडेन. 'घाटी घाटी शिवण्णा घाटी'म्हणटात. घाटी म्हणजे घाटा वयल्यान आयिल्लो. पूण म्हणून कितें जालें मनीस न्हय तर घाटी. आनी दर मनशांत कितें ना कितें वेगळेंपण आसताच. तसो हांवूय ह्या भुरग्यां परस मातसो वेगळो दिसतां. अरवळसो दिसना तरीं तितलो स्मार्टूय दिसना. म्हणून अशी धींड काडप सदां उठून. मनांतल्या मनांत येवजीत आशिल्लो शिवण्णा. म्हणून टिचरीन कितें विचारलें तें कळ्ळेंच ना ताका.

'येस शिवण्णा कहाँ ध्यान है तुम्हारा?' टिचरीन विचारलें तशें एकल्यान फुतफुतत म्हणलेंच, 'घाटपर.' सगलो वर्ग परतून



खळखळून हांसलो. इतले म्हणसर इंटरवलाची घांट जालीं तशी ती चांडाळ चौकडी परती शिवण्णाच्या फाटल्यान लागली. कोणें ताचें बॅग ओडलें, कोणें चश्मा, कोण कुटली मारता, कोण पॅण्ट ओडटा. तें सगलें सांबाळटा सांबाळटा शिवण्णाचो तोल वतालो. इतल्या बोवाळांत कोणाचो धुमको लागून शिवण्णा सोमतो शेंवटलो तो बांकाचेर आपटलो. शिवण्णाचो फुडलो दांत सोमतो ओंठांत रोमलो. रगताची शिळकी उडली तशे भुरगे कुशीक सरले. शिवण्णा ओंठ दामीत आपल्या बांकार बसलो.

घरा वतकच अव्वाक कितें सांगचें हें चित्तालो शिवण्णा. पूण खरी गजाल तिका कळ्ळी जाल्यार ती बेश्टीच भियेतली म्हणून शिवण्णान फट मारली. धांवतना बांकाक आपटलो म्हणून.

शिवण्णा तसो लेचोपेचो नाशिल्लो. चौदा वर्सांचो भुरगो पूण आंगान सामको घटमूट. राग आयल्यार दोगतीग जाणांक सहज लोळोवपाचो तो. पूण अव्वा सदांच सांगताली ताका, बाबा दुसऱ्यान गाय मारली म्हणून आपणें वासरू मारू नये. म्हणून पासियेंस काडटालो शिवण्णा.

मागीर ताणें ताचेर एक माण्णी काडली. ताच्या मनांत कितें धुमसत आशिल्लें तें सगलें बरोवन काडलें ताणें कवितेच्या रुपांत

आनी स्वताची डायरी केली. दर दिसा ताका भुरगे बुली करताले आनी त्या त्या दिसाचो अणभव, कुडीची दूख, मनाचे घावे तो कवितेंत चितारीत वतालो.

त्या दिसा काळे सरान भुरग्यां कडेन शाळेच्या दिवाळी मॅगझिना खातीर कितेंय साहित्य आसल्यार दियात म्हणून सांगलें. तशी शिवण्णान सरा मुखार डायरी दवरली. सरान डायरी उगडली. त्या डायरेंतलें एक एक पान परतिता तशें काळे सराच्या तोंडा वयले भाव बदलताले. तांच्या दोळ्यांत दुकां भरपाक लागलीं.

'शिवण्णा इतलें भोगलें तुवें आनी केन्नाच सांगलें ना कोणाक? सांग कोण ते भुरगे तुका बुली करताले ते?'

आतां शिवण्णां सगल्यांचीं नांवां सांगतलो आनी सगल्यांक बरेंच कुर्रार पडटलेट अशें येवजून सगले भियेल्ले. पूण शिवण्णान कोणाचें नांव सांगलें ना. वयल्यान म्हणलें, 'सर तांणी म्हाका बुली केलें म्हणून तर हांव कवी जालों. तांचे हे उपकारूच म्हजेर.'

काळे सराक आपलीं नांवां सांगली ना म्हणून भुरग्यांक बरें दिसलें. पूण काळे सरान जेन्ना शिवण्णाच्यो कविता मुद्दम वर्गांत वाचून दाखयल्यो तेन्ना त्या सगल्या भुरग्यांक आपली चूक कळ्ळी. जांणी बुली केल्लें तेच दोळ्यांत दुकां भरून शिवण्णा कडेन पळयताले. पूण शिवण्णान तांकां केन्नाच माफ केल्लें.

# भूक



सरूची आवय देवाघरा गेल्ल्याक पांच दीस जाल्ले. फाटले चार दीस आशिकुशीच्या लोकांनी आपल्या ताटांतलें कितें ना कितें ताका खावपाक हाडून दिलें. पूण अशें कितले दीस चलपाचें. तेवूय म्हणून हाताचेर पोट घेवन भोवपी लोक. प्लास्टिकाच्यो बाटल्यो पुंजावन तातूंतल्यान मेळिल्ल्या पयशांतल्यान तांचेच संवसार चलयता म्हणसर सामकें त्रास जाताले. तातूंत सरूक कितलो तेंप पोंसतलीं. सरूची आवय आससर सरूक केन्ना काम करचें पडलें ना. न्हय सरूचे आवयन ताका केन्ना काम करपाक दिलें ना. दोनूय पांय पोलियो जावन लुंड पडिल्ले सरूचे. ताका घरांतल्या घरांत आपली फूड ओडीत भोंवता म्हणसर खरस मारताली. ते आपले धुवेक कशी कामाक धाडपाची सरूची आवय. पूण आतां सरूकच काम करचें पडपाचें. कोणाय मुखार हात फांफुडचे परस आपणें कितेंय काम करचें म्हणून सरू घरांतल्यान भायर सरलें.

सकाळच्या आदेसाक सगळी झोपडपट्टी रिती रिती दिसताली.

सगलींजाणां कामां निमतान घरा भायर सरिल्लीं. सरू बसुनूच आपले दोनूय पांय ओडीत मुखार सरतालें. रस्त्या मेरेन येता म्हणल्यार तें सामकें खासावीस जालें. वयर कडक वत आनी पोटांत भूक. सरून आशिकुशीक नदर भोंवडायली. रस्त्या कुशीक एक कोयराचो डबी आशिल्लो. सरूची आवयूय बाटल्यो पुंजावंक वतना कोयराच्या डब्यांत खावपा सारकें कितेंय आसल्यार मुजरत सरू खातीर घेवन येताली ताची सरूक याद जाली. तें तशेंच घश्टत कोयरा डब्या मेरेन पावलें. तोमेरेन तें सामकें घामाघूम जाल्लें. आनी थोड्या वेळां भितर पोटांत कितेंय पडना जाल्यार घुंवळ येवन पडटलें अशें सरूक दिसतालें. ताणें व्हड कश्टान कोयर उस्तिलो. इतल्यांत ताका एका पेपरांत गुठलावन उडयिल्लो बटाटवडो मेळ्ळो. सरून बेगिबेगीन पेपरांतलो तो बटाटवडो काडलो आनी तो तें तोंडांत घालूंक गेलें. इतल्यांत ताची नदर एक सुण्याचेर गेली. ताचें पोट सामकें फाटीक तेकिल्लें. तो चलतनाय लवंडतालो. ताची नदर सामकी आशेन बटाटवड्या कडेन पळयताली.

सरूक ओगीच आपली आवय याद जाली. भूक लागली जाल्यार आपूण आपले आवय कडेन खावपाक मागतालें. आनी ह्या सुण्याक तर उलोवपाकूच येना. तो कसो कोणाक सांगतलो. ताका सुण्याची काकूळट दिसली. उपाशी आसा बावडो! सरूची आवय भायर वतांतल्यान भोंवून पुरो जावन येताली. तिकाय भूक लागताली. पूण ती सदांच सरूक पयलीं खावयताली. सरून बटाटवड्याचो इल्लो कुडको त्या सुण्या मुखार उडयलो. सुण्यान तो बेगिबेगीन खालो. तसो ताच्या जिवांत जीव आयलो. आनी सरूच्या तोंडार एक समादान. एका भुकेल्ल्याचें खाण दिल्ल्याचें समादान.

# वणटी वयलें भूत



रुतू आनी ताची मम्मा डाडा हालींच ह्या नव्या फ्लॅटांत रावपाक आयिल्लीं. ह्या फ्लॅटांत रूतूकय एक कूड आशिल्ली. आतां ताका स्वतंत्रपणान, कोणाची कटकट नासतना अभ्यास करूंक मेळटालो आनी मम्माक चुकोवन मोबायलाचेर चॅटिंगूय. कुडीक व्हडलें जनेलूय आशिल्लें. सकाळचो अख्खो दीस मम्मा कुडींत वारें घोळपाक तें उकतें दवरताली. सांजवेळार मात बंद करताली. कूड तशी बरी आशिल्ली पूण फकत वॉशरुमांत वचपाक जाय जाल्यार कुडींतल्यान भायर येवचें पडटालें.

एकदीस रातचें रुतू बरोच वेळ चॅटिंग करतालें. तेवूंय बी मम्मा डाडाक कळचें न्हय म्हणून कुडीची लायट पालोवन. दोळ्यांत न्हीद

सांकळपाक लागली तशें तें उठलें आनी कुडींतल्यान भायर येवन न्हिदसुऱ्या दोळ्यांनी वॉशरुमांत गेलें. आपलें काम करून ताणें वॉशरुमाचें दार उगडटा थंय आसा ताणें कच्च करून आंग काडलें. फुडले वणटी वयल्यान काळी सावळी सरसरत गेली. रुतू भंयान सामकें कडकडलें. तें तशेंच धांवत आपले कुडींत गेलें आनी कुडीचें दार घट्ट धांपून घेतलें. ताणें भियेत कुडींतली लायट पेटयली. कुडींत कोणूच नासलो. ताणें लायट तशीच पेटत दवरली आनी हांतरुणार पडलें. भिरांतेन ताका कितलो वेळ न्हिदूच पडलीना. मागीर फांतोडेर मम्मा दार धोडायता तेन्ना ताका जाग आयली.

कितें गो आयज उठलें ना आपूण जावन आनी लायट शी पेटत दवरल्या? न्हिदसुऱ्या दोळ्यांनी दार उगडिल्ल्या रुतूक पळोवन मम्मान विचारलें. ना रातीं पुस्तक वाचतां वाचतां दोळो लागलो रुतून सूरय फटी मारली. आपणें काल वणटीर काळी सावळी पळयली म्हणून सांगल्यार मम्मा ताका पिशांत काडपाचीं हें तें जाणा आसलें.

चल बेगीन आटपून घे. शाळेंत वचपाक कळाव जातलो मम्मान म्हणलें. मागीर रुतून सगलें काम यंत्र कशें सडसडीत केलें.

रुतू शाळेंत सामकें अस्वस्थ आशिल्लें तें रिनाक ज्युस्त कळ्ळें. ताणें रुतूक म्हणलें, रुतू, कितें जालां रातीं न्हिदूंक ना काय कितें गो? कितें करतालें, अभ्यास काय चॅटींग?

चॅटिंगूच करतालें गो पूण मागीर न्हिदूंक वतना... रिनाक सांगचें काय ना ह्या विचारांत रूतू घुस्पलें. रिना ताच्या तोंडा वयलो घुस्पागोंदळ ज्युस्त समजलो. हांव कोणाकूच सांगचेंना गॉड प्रॉमीस ताणे गळ्याक हात लावन सोपूत घेतलो. रिना कोणाकूच सांगचेंना

आनी मुख्य म्हणल्यार फकांडां करून हांसचेना म्हणपाची रुतूची खात्री पटली. तशें ताणें ल्हवू आवाजांत रातीं वणटीर काळी सावळी पळयली म्हणपाचें रिनाक सांगलें. रिनाक ह्या असल्या गजालींनी खूब माहिती आशिल्ली. ताणें दोळे मोट्टे करून रुतूक पळयलें. रुतू त्या घरांत भूत आसा. तें तुका काल दिसलें. तुजी एमसी बी ना मगो? ह्या दिसांनी भुतां दिसल्यार खूब वायट म्हणटात. तूं सांबाळ गो बाये. मम्माक सांगून प्रसाद पाकळी करपाक लाय तूं. जाल्यारूच माणसुकी.

आयकलें आनी भिरांतेन गुळोच आयलो रुतूच्या काळजांत. भूत? आनी वॉशरुमाच्या भायर वणटीर. कितें करचें? मम्माक सांगचें? काय डाडाक? रुतू सामकें गोंदळून गेलें. शाळा सुटून तें घरा पावलें. आनी दोन दिसांनी एमसीची डेट आशिल्ली. ती येतकच हें भूत म्हजे कुडींत रिगतलें आनी.... सिनेमांनी हिरोईनीच्या आंगांत रिगिल्लीं भुतां आनी मागीर तीं तांची भिरांकूळ तोंडां, त्यो किळच्यो, ते मांत्रिकांनी केल्ले हाल, त्यो दोतोरांनी तोपिल्ल्यो सुयो. ते भिरांतेनूच रुतूच्या पोटांत दुखपाक लागलें. भायर एकटें टिव्ही पळोवंक बसपी रुतू आयज मम्माच्या फाटल्यान फाटल्यान रावपाक लागलें. जेवन जातकच न्हिदूंक वतना ताणें मम्माक म्हणलें, मम्मा आयज तूं म्हजे कुडींत न्हिदूंक येता?

कित्याक गो बाय, एकटें न्हिदपाक भंय दिसता? मम्मान विचारलें. आपल्याक भंय दिसता म्हणून सांगपाक रुतूक लज दिसली. आतां तें णव्वेंत पाविल्लें. मम्मा ताका मॅच्युअर्ड गर्ल म्हणटाली. आनी हें मॅच्युअर्ड गर्ल भियेता म्हणून सांगल्यार मम्मा हांसपाची. शे! ओगीच गे. ओगीच म्हणलें तशें. नाका हांव वता म्हजे



कुडींत म्हणत ते आपले कुडींत आयलें. तें हांतरुणार पडटकच मम्मा ताका थोडोवेळ थापटीत रावली. तें न्हिदलें अशें दिसतकच तिणें कुडींतली लायट पालयली दार ओडून घेतलें आनी ती आपले कुडींत गेली.

रुतू तिचे कुडीचें दार बंद जावपाच्या आवाजाची सुलूस घेतालें. तें बंद जालें तो आवाज आयकतकच तें उठलें आनी आपले कुडींतली लायट पेटयली. आनी कुडीची खिळी घाली.

रुतू न्हिदलें खरें पूण रातीं अकस्मात ताका जाग आयली. ताका मुतूंक जाल्लें. पूण आपूण वॉश रुमांत वच्चें ना म्हणून तें तशेंच रावलें. पूण सामकें सोंसूंक जालें ना तेन्ना दार उकतें करून वॉशरुमांत धांवलें. पोट ल्हव जातकच ताच्या जिवाक बरें दिसलें. आनी मनूय थाऱ्यार पडलें. ही सावळी आयज दिसली जाल्यार हांव भियेवचें ना. तिका पळयत रावतलें. धिटायेन. हांव आतां मॅच्युअर्ड गर्ल. म्हाका मम्मा भशेन धिटाय येवपाक जाय.

आपल्या मनांत ते सावळेक तोंड दिवपाच्या धिटायेनूच रुतून

दार उगडलें. आनी वणटीर पळयलें. कांयच दिसलें ना. खंय आसा गो भुता यो दाखय तुजी ती काळी सावळी रुतून मनांतल्या मनांत म्हणलें. पूण काळी सावळी कांय वणटीर आयली ना. रुतून वॉशरुमा भायर पावल मात दवरलां सळसळ आवाज जावन वणटीर सावळी नाचली. एक खीण, फकत एकूच खीण रुतूच्या काळजांत कल्ल जालें. पूण दुसऱ्याच खिणाक रुतून बारीकसाणेन ते सावळेक नियाळ्ळें. सावळी परती उजव्यांतल्यान दाव्यान गेली. सावळेक पळयतनाच रुतून वॉशरुमाच्या हारशांनी धांपिल्ल्या धाकटुल्या जनेला कडेन पळयलें. भायर माडाचीं चुट्टां वाऱ्या वांगडा धोलतालीं. उजव्यांतल्यान दाव्यान. सळसळ वारें व्हांवलें तशीं चुट्टां परतीं हाल्लीं. उजव्यांतल्यान दाव्यान तेन्नाच वणटीचेर सावळी हाल्ली उजव्यांतल्यान दाव्यान.

रुतूक हांसूंक आयलें. चुडटाचे सावळेक तें भूत समजल्लें. आयज धिटाय दाखोवंक नाशिल्ली जाल्यार तें घरांत भूत खऱ्यांनीच आसा म्हणून समजुपाचें. ही भिरांत ताच्या काळजांत सामकी रुतून उरपाची आनी मागीर घडये सिनेमांतल्या त्या हिरोईनीवरी...

आपले धिटायेचेर खूश जावन रुतून आपलीच फाट थापटिली. अ मॅच्युअर्ड गर्ल...वॅल डन.

# एकचाराची शक्त



रिना आनी टिनाची पर्थून झगडी जालीं. कारण कितें तर येदेशें. रिनाचे स्कॅच कलर्स टिनान घेतिल्ले. झगडीं एकम `काक तापोवनच थांबली नात. रिनान टिनाचो कंपास काडून पयस मोखलो. मागीर टिनान रिनाची पट्टी शेवटिली.

आजी पयस रावून तांकां पळयताली. ती मुखार आयली.

'रायू आनी गोविंदाक कळिल्लें तें' तिणें म्हणलें.

रिनान तें ज्युस्त आयकलें. 'कितें कळिल्लें आजी?' ताणें आजयेक विचारलें.

'तें तुमकां सांगून कितें उपेग?' आजयेन म्हणलें.

'सांग, सांग आजी सांग' आजयेक घट धरीत टिना लागोळ्यांनी उलयलें.

'मागीर येयात हांगा सोफ्यार बसया' म्हणत आजी तांकां घेवन सोफ्यार बसली.

'रायू आनी गोविंद. दोगूय सख्खे भाव. पूण दुस्मान जाल्लेवरी एकमेका कडेन झगडटाले.' आजी सांगपाक लागली. आतां दोगूय व्हडले जाले. दोगांयनी घराचे दोन वांटे केले. शेताचेय दोन वांटे

केले. रायू लग्न जालो. ताका एक चलो जालो. तरी दोगांय मदली दुस्मानकाय मात तशीच उरली.

रायूचो पूत धा वर्सांचो जाल्लो. एके राती एक चोर तांच्या घरांत घुसलो. चोराचो आवाज आयकून गोविंद जागो जालो. तो उठून भायर आयलो. चोर तयारेतूच आशिल्लो. ताणें आपल्या हातांतलो दांडो गोंविदाचे तकलेर मारलो. गोविंदान किळांच मारली. ताच्या आवाजान रायूचो पूत जागो जालो. तो ल्हवूच उठून भायर आयलो. पळयल्यार गोविंद सकयल पडला आनी ताचे तकलेंतल्यान रगत व्हांवता. चोरान गोविंदाक मारपाक परतून दांडो उबारलो. तेन्नाच रायूच्या पुतान भायले तुळशी पेडेर दवरिल्ली गोफीण उबारली आनी एक तोंकाचो फातर घेवन तो चोराचे तकले बरोबर मोखलो. फातर ज्युस्त कानसुलार वचून आदळ्ळो. चोर व्हिन्नळ्ळो. ताच्या हातांतल्यान दांडो सुटून सकयल पडलो. गोविंदान तेन्नाच उठून चोराचेर झोपय मारली. ह्या बोवाळांत रायूय उठून भायर आयिल्लो. प्रसंग वळखून तोवूय भावाच्या आदाराक धांवलो. दोगांयनी चोराक पुलिसेच्या सुवादीन केलें.

'काका मातशी तकली अशी कर' फर्स्ट एड' बॉक्स घेवन आयिल्ल्या रायूच्या पुतान म्हणलें तशें गोविंदाच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. ताका घट्ट वेंगायत गोविंदान रायूक म्हणलें,'रायू दादा आयज म्हज्या पुतणयान म्हाका वाचयलें. ताच्या खातीर आनी तुजे खातीर हांव आयज जितो आसां'

दोगूय भाव एकमेकांच्या वेगेंत रिगले. इतलो तेंप खंयतरी दामून दवरिल्ली माया, मोग वयर सरलो. दोगांयच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हावपाक लागलीं.

ते रातीं दोगूय भाव हांतरुणार तळमळत उरले. गोविंदान चिंतलें. म्हजो भाव कितले कश्ट करता. तरी ताच्या शेतांत उणीच पिकावळ जाल्या. हांव एकटो साडोसुडो. ताका बायल आनी भुरग्याक पोसपाचें आसा. हांवें म्हजें कडलें थोडें भात ताका दिल्यार बरें जातलें. तो उठलो आनी आपलें थोडें भात काडून रायूल्या भातांत घालें. हेवटेन रायू येवजितालो. हो भाव म्हजो एकोडोच. आपले कडेन आशिल्लें अशेंच सगळें व्हगडायता. ताका आपलें थोडें भात दिल्यार बरें जातलें. ताणें उठून आपलें थोडें भात ताच्या भातांत मिसळ्ळें.

दुसरे दिसा दोगूय उठले. पळयल्यार दोगांयलें भात आसा तितलेंच आसा. तांकां एकमेकाच्या मनांतली भास कळ्ळी. दोगूय एकमेकाचो हात घट्ट धरून केदो वेळ उबे रावले. पयसुल्ल्यान तांकां पळोवपी रायूचो पूत मुमुरखोच हांसपाक लागलो.'

आजयेची काणी सोंपिल्ली. आजयेन ल्हवूच पळयलें. रिना आनी टिना काणी आयकतां आयकतां तिच्या सामकीं लागीं आयिल्लीं. दोगांयनी एकमेकाचे हात घट्ट हातांत धरिल्ले. तें पळोवन आजी मुमुरखीच हांसली.

# हांतरूण पळोवन...




'विशाल... विशाल...', 'शौनक... शौनक...' आशिकुशीचे भुरगे विशाल आनी शौनकाच्या नांवान बोवाळ घालताले आनी विशाल आनी शौनक तांचे हे उमेदीक 'घ्रुंग... घ्रुंग... घ्रुंग...' करून आवाज करीत मोटारसायकलींतल्यान धुंवर सोडून नेट हाडटाले.

विशालाचो हालींच वाडदीस जाल्लो. पंदरावो वाडदीस. ह्या वाडदिसाक आपल्याक मोटार सायकल घेवन दिवपा खातीर ताणें माँ-पापाचेर खूब चेपण हाडिल्लें. आमकां परवडना मोटारसायकल म्हणून कितले फावट दोगांयनी समजावपाचो यत्न केलो विशालाक. पूण विशाल कसोच बदलो ना. 'विशाल, मनशान हांतरूण पळोवन पांय पसरूंक जाय. तुका आजून अठरा वर्सां जावंक नात. पयलीं शिकून जावं दी, बारावी तरी जावं दी.' माँ-पापा हरतरेन

सांगतालीं. पूण विशालान सामको सुरूच धरलो. मोटारसायकल ना... अभ्यास ना... खावप–जेवप ना... कोणाकडेन उलोवप ना, इश्कोलाक वचप ना. फाल्यां जिवूय ना जालो जाल्यार...माँ–पापा भियेलीं. आनी निमाणें हावाशिवा करीत एकदांची मोटारसायकल विशालाक मेळ्ळी.

माँ–पापान 'बें' म्हणलें तशी विशालाच्या तोंडार खोशी फुल्ली. मोटारसायकल आयली, ती कशी आयली?, तांणी खंय रीण काडलें?, कितलें काडलें ? हाचें कांयच सोयरसुतक नाशिल्लें विशालाक. मोटारसायकल मेळिल्ल्याक ताची खोशी दुपेटीन वाडली. तसो तो अभ्यासू. वेळच्या वेळार अभ्यास करून बऱ्या मार्कांनी पास जावपी. आतां अभ्यासा वांगडाच मोटारसायकल चलोवपाचो सराव करपाकूय ताचो वेळ वतालो. मोटारसायकल शिकलो तेवूंय बी शौनक शिकला थंयच. खूब फी आशिल्ल्या मोटार ट्रेनींग सेंटरांत.

खरें म्हणल्यार शौनक ताचो रोल मॉडेल कसो आशिल्लो. शौनक बारावेचो विद्यार्थी आनी विशाल धावेचो. पूण दोगांय मदीं इश्टागत आशिल्ली. खरें म्हणल्यार विशालानूच इश्टागतीचो हात फुडें केल्लो शौनका कडेन. शौनकाच्यो मोटारसायकली, गाडयो, कपडे, झेत, होटॅलींग, ताचो नेट... सामको पिसो जाल्लो विशाल. आपल्या कडेनूय शौनका भशेन सगलें आसचें आनी आपणेंय शौनका भशेन वागचें अशें ताका दिसतालें. शौनकान आपल्या ओंठार दवरिल्ल्यो पातळ मिशयो पळोवन आपुणूय तशोच मिशयो दवरतलो अशें ताणें चितिल्लें. पूण विशालाच्या ओंठा वयली ल्हंव सारकी दिसलेगीत नाशिल्ली.

ओंठार मिसरूड लेगीत फुटूंक नाशिल्लो विशाल शाळेंत तशेंच ट्युशनाक वतना मोटारसायकल घेवन वतालो. ताका लर्नींग लायसनूय मेळूंक नाशिल्लें. पापा ताका शिटकायतालो, 'विशाल परिक्षा जावं दी, मागीर चलय मोटारसायकल.' माँ भिवयताली, 'विशाल परिक्षे कडेन दुर्लक्ष जातलें. सध्या मोटारसायकलीक विसव दी.'

पूण आयकलें जाल्यार तो विशाल कसलो. माँ तशें सांगूंक लागतकच ताणें मोटारसायकल स्टार्ट करून 'घ्रुंग... घ्रुंग...' आवाज काडचो. तो आवाज काडल्यारूच पुरो, माँ पिकार जाताली. आपलें काळीज कलकलता म्हणटाली. तिका पिकार करपाक विशालाक मजा येताली.

त्या दिसा विशालाच्या वर्गाचो सॅण्ड ऑफ आशिल्लो. बारावेचो वर्ग सॅण्ड ऑफ दितालो. शौनक त्या दिसा उंची सूट घालून आयिल्लो. सांगाताक ताची नवी मोटारसायकल. सॅण्ड ऑफाची पार्टी जातकच घरा वतना शौनकान विशाल आनी आपले भितर मोटारसायकल रेस जातली म्हणून जाहीर केलें. आनी ती रेस करपा खातीर सगले दोंगरा वयल्या ह्या मेकळ्या जाग्यार आयिल्ले.

विशाल आनी शौनकान मोटारसायकलीक कीक मारली. 'घ्रुंग... घ्रुंग...' आवाज त्या मळार घुमलो. वांगडाच तांच्या सांगात्यांचो बोवाळ 'शौनक... शौनक...', 'विशाल... विशाल...'

शौनकान ज्या झेतान मोटारसायकल चलयता चलयता स्टंट केलो तो स्टंट पळोवन विशाल अजापूच जालो. शौनकान विशालाकूय तो स्टंट करपाची कुरू केली. आपल्या कडेन हें जावचेंना हें विशालाक खबर आशिल्लें. पूण हार मानपाक तो तयार

नाशिल्लो. ताणेंय घ्रुंगऽऽ करीत मोटारसायकलीचीं फाटलीं रोदां वयर उखल्लीं आनी तोल वचून तो पयस शेवटलो.

ताका शुद्ध आयिल्ली तेन्ना विशाल हॉस्पिटलांत आशिल्लो. ताचे कुशीक माँ–पापा बशिल्लीं. दोगांयचे चेरे रडून रडून सुजिल्ले हें विशालाक जाणवलें. हॉस्पिटलांतले ते पंदरा दीस ताच्या माँ–पापान ताचेसरीच रावून काडिल्ले. पूण ताचो रोल मॉडेल आशिल्लो शौनक मात परिक्षेच्या अभ्यासाचें निमीत्त सांगून एकूय दीस ताचे खबरेक आयलोना.

विशाल त्या दिसा हॉस्पिटलांतल्यान घरा आयिल्लो. घराच्या दारांत ताका मोटारसायकल दिसली ना म्हणून ताणें पापाच्या तोंडाक पळयलें. तशें पापान बेगिबेगीन म्हणलें, 'मॅकानिका कडेन आसा. ह्या म्हयन्याक मातसो खर्च जाला, फुडल्या म्हयन्याक कशीय करून हाडटां ती.'

विशाल कांयच उलयलो ना. तो घरांत गेलो आनी कंप्युटरार कितेंतरी टायप करून प्रिन्ट आवट काडली. ती ताणें आपल्या अभ्यासाच्या टेबला वयर लायली. तिचेर बरयिल्लें, 'हांतरूण पळोवन पांय पसरचे'.

# मावलेचें जाळें -१



भायल्यान शिळोणी आयकूंक आयली तसो मिहीर अभ्यास करतालो थंयसावन ल्हवूच उठलो. पांयाचो आवाज करिनासतना दारा कडेन येवन ताणें ल्हवू दार उगडलें मात झप्प करून ताच्या हातार मम्माच्या हाताची पकड बसली. कितें रे जालो अभ्यास? जावंक ना मरे? मागीर कसो सरलो भायर? सांगिल्लें मरे, अभ्यास पुर्ण जाल्या शिवाय खंयच वचपाचें ना म्हणून.

मम्माचे तापसाणीचो मिहिराक राग आयलो. त्या रागाभरशी ताणें धडायचं करून दार बंद केलें. कितले कुयदादीन दार उकतें केल्लें, तें मम्माक कशें कळ्ळें ताचें ताका अजाप दिसलें. ताका रडपाक येतालें. आतां मेरेन ताचे सगले इश्ट ग्रावंडार पावले आसतले. खेळपाक लेगीत सुरवात केली आसतली. तो रडकुरो चेरो करून जनेला कडेन उबो रावलो.

अचकीत ताचें लक्ष कुडीच्या कोनशाक गेलें. मावलेन थंय

जाळें विणिल्लें. आनी जाळ्याच्या मदीं मावली बशिल्ली, ओग्गी. इतल्यान एक किमस उडत जाळ्याचे कडेक येवन घुस्पलें. तशी जाळ्यांतली मावली शिटूकसाणेन झुप्प करून फुडें आयली. मिहिर ते मावलेक आनी किमसाक बारीकसाणेन पळयतालो. तांकां पळयताच ताच्या चेऱ्यार हांसो फुटलो आनी तो ओंठांतल्या ओंठात पुटपुटलो, मावली मम्मी, किमस मिहिर...हातांतलो पेलो सकयल पडलो. इतल्यान भायलें दार उकतें जालें. दारांतल्यान भितर सरतले मॅडमीक पळयतकच मुन्नी धांवत गेलें आनी तिका घट वेंग मारली. मुन्नीच्या दोळ्यांतल्यान व्हांवपी दुकांनी मॅडमीक सगली काणी सांगली. तिणें मायेन मुन्नीचे फाटीचेर हात भोंवडायलो आनी थंय आलमारी कडेन पडिल्ली सान्न घेवन ती कुडी कडेन वचपाक लागली.

# मावलेचें जाळें-२

मॅडम दार बंद करून मार्केटांत गेली. सर त्या दिसा पांय दुखपाचें निमित्त करून घराच राविल्लो. मुन्नीन पयलीं सान्न मारपाचें थारायलें आनी सान्न घेवन घर लीप करपाक लागलें. सरान पयरचे भशेन भितर आपयना जाल्यार पुरो. त्या दिसाय मॅडम सकयल देंवून गेल्ली तेन्ना सरान उदक मागलां म्हणून ताचे कुडींत गेल्लें. तेन्ना सर कितें कितें बुरशें उलोवंक लागिल्लो. आयकुनूच ओंकारो आयिल्ले भशेन जाल्लें मुन्नीक. आयज आनी आपयना जाल्यार पुरो. चिंतुनूच मुन्नीच्या पांयाक कडकडो आयलो.

मुन्नी पानी लेके आ सरान भितरल्यान उलो मारलो. मुन्नी भियेलें.  तें तशेंच आलमारी कडेन येवन आलमार लीप करपाक लागलें. थंय कोनशाक ताणें एक मावलेचें जाळें पळयलें. ही मावली परतून किमसाक नाजाल्यार खंयच्याय जिवाक आपल्या जाळ्यांत ओडटली. हें जाळें काडुनूच उडोवंक जाय. सामकें बुरशें दिसता त्या सोबीत कुडींत. मुन्नीन सप्सप् करून सान्नीन तें जाळें तोडून सकयल उडयलें. मावली सकयल जमनीचेर पडून फडफडपाक लागली.

मुन्नी सृननेको नही आता, पानी लेके आ सराचो आवाज खरखरीत जाल्लो. भियेत भियेत मुन्नी उदकाचो पेलो घेवन कुडी कडेन गेलें. भितर खाटीर पातळिल्ल्या सराक पळोवन ताच्या

# रॉबीन



'तुजें नांव कितें?' मारिया आण्टीन रॉबीनाक विचारलें. 'रॉबीन' ताणें जाप दिली. 'बरें नांव. रॉबीन नांवाचें सवणें आसता जाणा मरे? तुवें पळयला ताका?' आण्टीन विचारलें. रॉबीनाचें तोंड बावलें. रॉबीन कित्याक चिमणी लेगीत पळोवंक ना ताणें खरी. फ्लॅटांत एसी लायिल्ल्यान जनेलां लेगीत उगडूंक दिनाशिल्ली मम्मी. मागीर चिमण्यो आनी कावळे लेगीत कशीं पळयलो. हां, गूगल सर्च करून सगल्या सवण्यांक पळयल्लें आनी तांची माहिती बरोवन काडिल्ली. शाळेंतल्या प्रोजेक्टा खातीर. तितलोच ताचो आनी सवण्यांचो संबंद.

ताका इतल्यान याद जाली ती शाबाची. शाबा ताच्या वर्गांत नवोच आयिल्लो भुरगो. तो गांवांतल्यान आयिल्लो. ताका इंग्लिशूय बरी कळनासली. देखून ताचे कडेन कोणूच उलोवंक सोदिनासले. पूण रॉबीनान मात आपूण जावन ताचेसरी वचून ताका हॅलो केल्लें. तेन्ना



सावन तो ताचो इश्ट जाल्लो. शाबाक जायत्या सवण्यांची नांवां येताली. ताणें तांकां पळयल्ली लेगीत. शाबा ताका सांगतालो, सवणीं झाडांचेर बसून सोबीत गायतात. दरेक सवण्याचे तरातराचे आवाज. ताच्या गांवांत सकाळ जाता हें सवणीं गावपाक लागतकच कळटा.

रॉबीनाची सकाळ मात अलार्मान सुरू जाताली. मागीर स्कूल, ट्युशन, स्विमींग क्लास, होमवर्क आनी जेवन न्हिदप. शाबाची मात मजा. सकाळ सुरू जाता कोंब्याच्या सादान, चिमणेच्या गिजबिजान, साळोऱ्यो, कीर आनी कसलीं कसलीं नांवां घेतलो शाबा. स्कुलांतल्यान घरा वतकच तो घरा फाटल्या पाणठ्यार न्हावपाक वतालो. जेवन होमवर्क करतालो आनी मागीर खेळपाक वतालो.

रॉबीनाक शाबाचो गांव पळोवपाची खूब उमळशीक लागली. ताणें मम्माक म्हणलें लेगीत, 'मम्मा ह्या हॉलिडेंत आमी शाबाल्या गांवांत वचुया गे?' तशी मम्मीन म्हणलें, 'हय, या गांवांत, पूण शाबाल्या न्हय, एण्ड्रयू अंकलाल्या. तांचें फार्म हावज आसा गांवांत.' फार्म हावज आनी गांव हीं उतरां रॉबीनाक उंचाबळीत करपाक पुरो आसलीं.

तो दीस उदेलो. सकाळीफुडेंच एसी गाडयेंत रॉबीन एण्ड्रयू अंकलाल्या फार्म हावजाचेर वचपाक भायर सरलो. एसी

गाडयेंतल्यान रस्त्या वयलीं झाडां दिसतालीं. पूण गाडयेक काळे हारशे आशिल्ल्यान झाडार सवणीं बी आसात काय ना तें कळनाशिल्लें.

एकदांचीं एण्ड्रयू अंकलाल्या फार्म हावजार पावली. पूण हांगा पावून रॉबीन मातसो निरशेलोच. गाडी बद्द पोर्चांत थारली आनी गाडयेंतल्यान अंकलाल्या बंगल्यांत. अंकलान रॉबीनाचें निरशेल्लें तोंड पळोवन म्हणलें, 'आगो इज़ाबेल, तुजो रॉबीन सारको रॉबीन सवण्यावरी देखणो. दिसपाक सोबीत पूण कसो बावल्या भाशेन दिसता मगो?' तशें मम्मीन बेगिबेगीन म्हणलें, 'ना एण्ड्रयू इतले पयस पयलेच फावटीं हाडला आमी ताका म्हुणोन मातशें पुरो जालां ताका.' पूण रॉबीन जाणा आशिल्लो आपूण कित्याक निरशेला तो. शाबालो गांव वाटभर रॉबीन याद करीत आयिल्लो. तो गांव, तीं झाडां, तीं सवणीं, तांचें गायन. पूण तो गांव ताका मेळ्ळोच ना.

च्या पियेवन जातकच रॉबीनान अंकलाक विचारलेंच, 'अंकल हांगा सवणीं येनात?' 'सवणीं! तुका चोवपाक जाय? मागीर सांग मरे. कसलीं सवणीं चोवपाक जाय पॅरोट, स्पॅरो, लव बर्डस नांव सांग आनी जाय तीं चोय. पिएदाद, बाबाक बर्ड पॅलेस दाखोय.'

पिएदाद, अंकलागेर काम करपी भुरगें. ताणें रॉबीनाक बंगल्यांतल्यान निमाणे कडेन आशिल्ले एके व्हडले कुडींत व्हेलें. थंय कितलेच पांजरे आशिल्ले. त्या पांजऱ्यांत कितल्याच तरांचीं सवणीं आशिल्लीं. रंगरंगयाळीं. बारीक मोटीं. रॉबीन तांकां पळोवन पयलीं पिसोच जालो. तो धांवपाक लागलो ह्या पांजऱ्या फाटल्यान त्या पांजऱ्या कडेन. ताका धांवतना पिएदाद बारीकसाणेन पळयतालें.

'बाबा, एक विचारूं?' ताणें रॉबीनाक म्हणलें. 'आगो, तुवूंय म्हुजे येदेंच. म्हाका बाबा कित्याक म्हुणटाय. रॉबीनूच म्होण. आनी

विचार तुका जायें तें?' रॉबीनान म्हणलें.

'रॉबीन, तूं सवण्यांक पळोवन इतलो पिसो जालो आनी तेवूंय पांजऱ्यांतल्या?'

'होय. हांवें केदनांच सवणीं चोवंक नात. आमच्या फ्लॅटांत एसी देखून जोनेलां उकतीं करूंक मेळोनात. मम्मी नाजाल्यार डॅडी म्हाका आपले कारींतल्यान स्कुलाक पावयतात, हाडटात तेवूंय एसी गाडयेंत. बंद. म्हाका भायलो सोवंसार चोवपाकूच मेळोना.' रॉबीनान म्हणलें

'तुका तेशें बोरें दिसता?' पिएदादीन ताका विचारलें.

'ना गो सामकें घुस्मोटलेल्या भाशेन जाता. पूण कोणाक सांगतोलो?' रॉबीनान जाप दिली.

पिएदादीन हुस्कार सोडलो. 'हूं. म्हुणल्यार तुजी आनी ह्या सवण्यांची गोजाल एकूच तोर?' ताणें म्हणलें.

'म्हुणजें हांव सोजमोलों ना' रॉबीनान म्हणलें.

'चोय तुका सोगलें बोंद बोंद म्हुणोन जीव घुसमोट्टा. सवणींय हांगा बोंद बोंद आसतात. पांजऱ्यांत बोंद. तांकांय उडपाचें आसता झाडांचेर, फुलांचेर, मेकळें वारें घेयत, गायत उडपाचें आसता. आनी जाणा रॉबीन तीं झाडांचेर गायोन करीत उडटात तेन्ना आनीक सोबीत दिसतात.' पिएदादीन म्हणलें.

तसो रॉबीन विचारांत पडलो. बर्डस पॅलेस पळोवन परतो आयलो तेन्ना ताचो विचारांत पडिल्लो चेरो पळोवन अंकलाक अजाप दिसलें. 'अरे रॉबीन तुका आवडोंक ना मिस्ता म्हुजें बर्ड पॅलेस' अंकलान म्हणलें.

'ना अंकल' रॉबीनान जाप दिली. 'कित्याक?'अंकलान विचारलें.

'अंकल हांव मोटे उमेदीन ह्या गांवांत आयलेलों. सवणीं पळोवपाक. गांवांतलीं. पूण हीं सवणीं तसलीं न्हूय. शाबाच्या गांवांतलीं सवणीं झाडाझाडाचेर उडटात. गायतात. नाचतात'

'मागीर, म्हुजींय सोवणीं उडटात, गायतात, नाचतात. चोवंक ना तुवें?' अंकलान म्हणलें.

'होय अंकल, तीं सोगलें कोरतात. पूण तातूंत जीवसाण दिसोना.'

'चोय बाबा, तुका पुरो जाला म्हुणोन तूं कसो बावला तोशें तेंकांय आयज पुरो जालां म्हुणोन तुका तोशें दिसलां जायत' अंकलान म्हणलें.

रॉबीन हांसलो. ताणें म्हणलें, 'अंकल हांव सोदांच ओसो आसतां. बावल्लोच. हांवूय ओसोच आसतां पांजऱ्यांत बोंद सदांच बोंद...' रॉबीनाचीं उतरां थरथरतालीं. ताच्या दोळ्यांत उदक भरिल्लें.

पूण ताचीं उतरां रॉबीनाच्या मम्मी डाडाच्या काळजाक कळिल्लीं तशेंच एण्ड्रयू अंकलाकूय. अंकल उठलो आनी रॉबीनासरी आयलो. 'बाबा हांवें भुरगेपणांत एक कोविता आयकोलेली. मनोहरबाब सरदेसायाली. ती म्हाका आयज याद करून दिली तुवें. 'तुका सवणी जाय, पांजरे नाका, झाडां लाय' खोरेंच रॉबीन हांव आतां झाडां लायतोलों आनी त्या झाडांचेर सवणीं येतलीं थंयच तांचो पॅलेस आसतलो.' रॉबीनाक पोशेत अंकलान म्हणलें, 'पिएदाद, चोल बाय, बाबाक घेवन सोगलीं सवणीं सोडून घाल.'

अंकलाचीं उतरां आयकल्या बरोबर उमेदीन रॉबीन आनी पिएदाद बर्डस पॅलेसींत धांवलीं.

अंकल उठून रॉबीनाच्या मम्मी डाडा कडेन गेल्लो. तांच्या दोळ्यांतल्या दुकांक पळयत तांच्या फाटीर थापटूंक लागलो.

# तीन योद्धा



हितेनभायक तीन चलयो. आपूण येदो व्हडलो वेपार सांबाळटां. तो मुखार व्हरपाक मागीर कोण ना. चलो आशिल्लो जाल्यार बरें जावपाचें. पूण नशिबांत ह्यो तीन धुवो आयल्यो. हितेनभायक आपल्या धुवां विशीं मनांत तिडक आशिल्ली. तो तांचे कडेन बरे तरेन उलय लेगीत नासलो.

पूण शांताबेन मात आपल्या धुवांची खूब अपुरबाय करताली. तांच्या मदल्या गुणांक उर्बा दिताली. आपल्यो धुवो शिकपाक हुशार आसात हें तिका कळिल्लें. ती अदीं मदीं तांच्या बापायच्या वेपारा विशीं आपल्या धुवां कडेन उलयताली. धुवांचें शिकप जातकच एकदीस शांताबेनान हितेनभायक म्हणलें, आमच्या धुवांचें शिक्षण आतां पुर्ण जालां. तांकां तुमच्या वेपारांत घेतल्यार...

ओगी राव. शांताबेनाचें उलोवणें सोंपचे पयलींच हितेनभाय आडुलो. चलयो त्यो. तांची बुद्द ती धोपरांत. तांकां वेपार वेवसायाचें कितें कळटलें. तूं तांकां रांदचे कुडींत तुज्या हाता सकयल दवर. ह्या उप्पर म्हजे कडेन असली गजाल उलोवं नाका. शांताबेन ओगीच रावली तरीय ती भितरल्यान खूब दुखावली.

हितेनभायचो वेपार एका तेंपार बरो चलतालो. पूण आतां त्या वेपारांत सर्त वाडिल्ली. नवे नवे वेपारी नव्यो नव्यो युक्ती घेवन वेपारांत देंवताले आनी आपली भरभराट करून घेताले. आपल्याक चलो ना ही खंत त्यावेळार हितेनभायक जाताली.

हालींसरा एक नांव ह्या वेपारांत खुबूच नामनेक पाविल्लें. 'शांतेही' कंपनीचें नांव. तीन तरणाटे ती कंपनी चलयता अशें हितेनभायच्या कानार पडिल्लें. हेवटेन हितेनभायचो वेपार सामको बंद पडपाक पडिल्लो. इतलो तेंप कितें मेळयल्लें तें सगळें ल्हवूल्हवू खर्चून वचूंक लागलें. मदीं वेपार वाडोवपाक रीण घेतिल्लें तें फारीक तर जालेंचना वयल्यान कळंतरूय खूब वाडिल्लें. एक सप्तका भितर कळंतरासयत रीण फारीक केलें ना जाल्यार जप्ती हाडपाची नोटीसूय दिल्ली बँकेन.

आनी तो दीस उजवाडलो. हितेनभायचें काळीज वयर सकयल जातालें. आपल्याक एक पूत आशिल्लो जाल्यार ही पाळी येवची नासली. पूण नशिबांत ह्यो धुवो आसल्यो. धुवांची याद येवन ताचें तोंड कोडू जाल्लेवरी जालें. ताचे हे अवतीकायेक दुकानांतले नोकर असहाय्य जावन पळयताले. आपल्या मालकाचो धंदो बुडप म्हणल्यार आपलींय पोटां उबंतर पडप हे ते जाणा आसले.

दारांत गाडी थांबिल्ल्याचो आवाज आयलो तशें हितेनभायचें काळीज उखल्लें. आतां खंयच्याय खिणाक जप्तीचो कागद हातांत

पडटलो आशिल्लो. दारांतल्यान हांसत भितर सरपी बँकचो मॅनेजर आनी तीन तरणाट्यांक तो पळयत उरलो. हे ते 'शांतेही' कंपनीचे तरणाटे आसूंक जाय. तांणीच आपलो वेवसाय बँके कडल्यान आपल्या ताब्यांत घेतला आसूंक जाय. हितेनभायक आपल्या धुवांची याद जाली आनी ताचें काळीज चड फडफडलें. बँकेच्या मॅनेजरान हितेनभायच्या हातांत कागद दिलो आनी म्हणलें, हितेनभाय अभिनंदन. तुमचो वेपार तुमचे कडेनूच उरतलो. तुमचें रीण कळंतरा सयत फारीक जालें.

हितेनभाय मॅनेजराक पळयतूच उरलो. रीण फारीक जालें? कोणें केलें? ताचे नदरेची भास मँनेजराक कळ्ळी. ताणें म्हणलें, ह्या शांताही कंपनीच्या तीन तरणाट्यांनी फारीक केलें. तुमचो इतल्या वर्सांचो वेपार तुमचे कडेन सुगूर उरलो.

हितेनभायन कृतज्ञतायेन त्या तीन तरणाट्यां कडेन पळयलें. आपलेय अशे पूत आशिल्ले जाल्यार असो विचार त्याच खिणाक तांच्या मनांत आयलो. त्याच वेळार दारांतल्यान शांताबेन भितर सरली. तिणें भितर येवन सरळ त्या तीन तरणाट्यांक वेंगांत काडलें. हितेनभाय घुस्पलो. तशे त्या तरणाट्यांनी आपल्या तकले वयले वीग काडले. ते बरोबर तांच्या फाटीर तांच्या लांब केंसाच्यो विणयो झेलकल्यो. मुखामळार हांसो घेवन ताच्यो तीन धुवो थंय उब्यो आशिल्ल्यो. म्हणजे 'शांताही' ही कंपनी आपल्या धुवांची. हितेनभाय सामको गोंदळांत पडिल्लो. इतल्यान मॅनेजर उलयलो, हितेनभाय, तुमी खरेच भाग्यवान. तुमच्यो तीनूय धुवो सामक्यो हुशार. आयज तांणी आपल्या आवयबापायचें शांताही हें नांव वेपाराच्या मळार खूब उंचायेर व्हेलां. त्यो तुमच्यो धुवो. पूण तुमकां

कळचें न्हय म्हणून तरणाट्याच्या भेसांत वावुरताल्यो. आयजच्यान तांकां ह्या भेसांची गरज पडचीना अशें म्हाका दिसता.

हितेनभायच्या दोळ्यांतल्यान सरसरीत दुकां व्हांवपाक लागलीं. आपणें आपल्या ह्या अपुरबायेच्या धुवांक केन्ना मोग दिलो ना. वयल्यान हिणसायलीं. तांकां खंयच्या तोंडान उलो मारूं अशें चिंतून ताणें मान सकयल घाली. ताका पश्चाताप जालो. इतल्यांत ताच्यो तीगूय चलयो धांवत ताचेसरी आयल्यो आनी 'पापा' म्हणून ताका वेंग मारली. म्हज्यो अपुरबायेच्यो भांगरसाळी त्यो, हितेनभायन तांच्या फाटीर हात भोंवडायत म्हणलें.

आपल्या मालकाच्या धुवांनी आपल्या बापायचो वेपार राखून दवरलो आनी आपलें पोटूय म्हणून सगळे नोकर खोशेन ताळयो मारपाक लागले.

# वेळारूच कळिल्ली चूक



खळ्ळ! सिडान मोबायल काडून जमनीर शेवटिलो. 'सीड?' मम्मा व्हडल्यान तापली. 'मोबायल जमनीर शेवटिता. फुकट आयला तो. रगत आटयलां पयशे जोडपाक आनी तुका हांव मोद मारला' मम्मा बडबडत सकयल सिडान मोडून उडयिल्ल्या मोबायलाचे कुडके लागीं करपाक लागली. बडबडटना तिच्या दोळ्यांत दुकां आयिलीं. आनी सिड? सिड फकत रागान धुमसतालो. ताच्या दोळ्यांक मम्माचीं दुकां दिसलींच ना. तो रागान तसोच आपले कुडींत गेलो आनी घडाम् करून ताणें दार धांपलें. ताणें दार धांपलें तशें मम्माच्या काळजांत खप्प जालें. हो भुरगो आनी रागान कितें करना जाल्यार पुरो. ती तशीच ताचे कुडीसरी धांवली आनी दारा धाडावपाक लागली. 'सिड, दार उगड बाबा. मोबायल फुटल्यार फुटूं, दुसरो घेवया. पूण तूं दार उगड.'

मम्माच्या उतरासरशीं सिडाची तिडक वाडत वताली. हूं दुसरो घेवया खंय! होच घेवपाक कितली रडटाली. सामको सवाय भितर वयल्यान. तीनेक हजाराचो. क्लासींतलीं भुरगीं चौदा पंदरा हजारांचे मोबायल वापरता. इतलो सादो मोबायल हांव म्हणून वापरतां. फकत वॉटसऍपाची फॅसिलिटी आसा ताका म्हणून

नाजाल्यार डब्यांत घालपाचो तो. आनी दीसभर मोबायलार म्हणून तापयता. नाकाच म्हाका कांय तुजें. चल्लो हांव. तिडकी सरशीं सिडान मम्माची दोरये वयली साडी ओडली आनी फॅनाचेर उडयली मेजा कडेक दवरिल्लें स्टूल हाडपाक तो गेलो. इतल्यांत ताची नदर धांपून दवरिल्ले बशयेचेर गेली. ताणें बशी उकती करून पळयलें. पास्ता. ताचे आवडिचो. मम्मा कडेन तर काल कांयच पयशे नाशिल्ले. तरीय तिणें पास्ता हाडिल्लो. फकत ताणें म्हणलां म्हणून. आनी मम्मा कडेन तेन्नाय पयशे नाशिल्ले, पूण ताका गरज आसा म्हणून तिणें मोबायल घेतिल्लो. करतां करतां ताच्या दोळ्यां मुखार मम्मा घुंवपाक लागली. पापा गेल्लो तेन्ना हामेर मारून रडपी मम्मा. सिडा खातीर घरांतल्यान भायर सरून काम करपी मम्मा, सिडाची शाळा, ताचो अभ्यास, ताचें खाण-जेवण सगलें सगलें मम्माच पळयताली. तीच सिडाची पापा आनी तीच सिडाची मम्मा. तिचो दीस उदेतालो तो सिडाच्या नांवान आनी रातीं ती न्हिदताली तिवूय सिदाक सुसेगाद न्हीद लागल्या उपरांत. मम्मा! ताच्या काळजांत मम्माच्या यादीन कळ कशी आयली.

'बाबा उगड रे दार शाण्या' मम्मा रडटा तो आवाज सिडाच्या कानार पडलो. आपूण कांय खिणा खातीर दार बंद करून भितर रावल्यारूच मम्मा इतली रडटा आनी हांव हो संवसार सोडून गेलो जाल्यार तिचें कितें जातलें? हो विचार तकलेंत येतकच सिड धांवत दारा कडेन आयलो आनी दाराची खिळी काडली. 'मम्मा, सॉरी मम्मा' म्हणून मम्माचे वेंगेंत रिगलो. मम्माचे वेंगेंत आपूण सुगूर आशिल्ल्याची जाणीव सिडाक जाली. आयज केल्या तसली चूक तो आतां जल्मांत करचो नासलो.

# रॉनाल्डाचो नरकासूर



'ग्रॅण्डमा, रॉनाल्डान म्हाका मारले.' रडत गॅरा भितर आयलें. तशी तांची मम्मा बेजारली. 'शी सायबा! हो रॉनाल्ड एक सामको सतोवंक लागला. आमी कितलेंय तापोवं आनी शेपलांव, पूण अपुरबायो करपी आसतोकूच तो आनी आपली मस्तेपणा सोडटा?' रॉनाल्डाच्या मम्मान मारिल्लो थोमणो आयकून शेमाय मातशें वायट दिसलें. पूण चड वायट दिसलें तें रॉनाल्डाचीं मस्तेपणा पळोवन. कितें केल्यार ताची मस्तेपणा बंद जातलीं काय? शेमाय येवजूंक लागली.

रातीं जेवणा कडेन रॉनाल्ड उमळशिकेन कितें सांगपाक

सोदतालो. पूण मम्मान पयलींच पापाक ताणें गॅराक मारिल्ली खबर सांगिल्ली. मागीर खबर सांगतलो खंयची ताका पापाची उलोवणी आयकुची पडलीं. मनांतलें कितें सांगूक मेळना जावन ताचो जाल्लो घुस्मटमार शेमाय पळयताली. जेवन जातकच तिणें म्हणलें, 'आयज रॉनाल्डाक म्हजे थाय न्हिदोनी.'

आपल्याक आयज शेमायसरी न्हिदूंक मेळटलें म्हूण रॉनाल्ड खोशी जाली. पापान ग्रीन सिग्नल दितकूच तो धांवत शेमाय पयलीं तिचे कुडींत आयलो आनी तिचे खाटीर वचून बसलो. शेमाय भितर येताच तो उंचाबळीत जावन म्हणपाक लागलो, 'शेमाय, आयज हांव रौनकागेर गेल्लों. थंय हांवें व्हडलो नरकासूर पळयलो. केसो दिसतालो गे तो! सामको भिरांकूळ! तेचे दांत चोय येद्दे मोटे. आनी शेमाय तेका रातीकोडेन लासतले खंय. कित्याक गे शेमाय?'

शेमायक आयतीच संद मेळ्ळी. तिणें रॉनाल्डाक सगळी गजाल सांगली. कसो नरकासूर वायट करण्यो करतालो. कसो लोकांक सतायतालो. लोकांनी श्रीकृष्णा कडेन कागाळ करतकच श्रीकृष्णान ताका कसो मारलो. ती सगळी गजाल सांगली. आनी मागीर तिणें रॉनाल्डाक म्हणलें, 'गोमलें मुरे बाबा. नरकासूराक कित्याक मारलें तें?'

'हय, शेमाय. तो वायट करण्यो करतालो, लोकांक सतायतालो.'

'आमचो पादिगार आमकां तेंच सांगता. आमी ज्यो वायट करण्यो करतावं वा आमचें कर्तुप वायट गजालींचेर आदारतावं तेन्ना आमकांय हीच ख्यास्त फावो जाता. ते पसत आमी लोकांक दुखोवंक जायना. दुसऱ्यांक त्रास करूंक जायना. तुका कितें दिसता?' ग्रॅण्डमान ताकाच विचारलें.

रॉनाल्ड विचारांत पडिल्लो. सकाळ सावन आपणे कोणा कोणाची कळ काडून कोणा कोणाक रडयलें. कोणाक त्रास दिले हाची ताका याद जाली. आपूण सदांच करतां त्योच गजाली तर नरकासूर करता. नरकासूर वायट करण्यो करता म्हणचे आपूणय वायटूच करण्यो करता. आनी वायट करण्यो करतल्याक ख्यास्त फावो जाता. रॉनाल्डाचें तोंड देवलें. काकूळटेन ग्रॅण्डमा कडेन पळयत भाबडेपणान ताणें विचारलें, 'ग्रॅण्डमा, नरकासूर जावंक जायना जावपाक कितें करपाचें.'

'सगळ्यां कडेन बरे भाशेन वागपाचें. कोणाक त्रास दिवचे न्होय, कोणाक सतावंचे न्होय. नरकासूराक लासोयताय तोशे आमच्या वायट गुणांक लासोवचें.'

'हांव सोजमोलों ग्रॅण्डमा.' रॉनाल्डान म्हणलें. तशें 'शेगुणाचो म्हुजो बाबा तो.' म्हणत ग्रॅण्डमान ताका वेंगेंत घेत ताच्या कपलाचो उमो घेतलो.

# वाती असलें मन



स्वीटी आपलो फ्रॉक आलमारीन सोदून सोदून बेजार जालें. हांगाच तर आशिल्लो फ्रॉक काल पयर मेरेन. खंय गेलो काय? इतल्यान मम्मा आयली भितर. 'स्वीटी हें कितें गो? आलमारीतले सगळे कपडे सकयल शेवटिल्यात ते?' मम्मान विचारलें.

'मम्मा, म्हजो तो गुलाबी रंगाचो फ्रॉक खंय? तो सोदतालें हांव.'

'आं, तो गो. हांवें दिलो तो गंगूबाईच्या चलयेक.' मम्मान सांगलें.

'म्हाका दिशिल्लेंच. तें बिजू तो फ्रॉक घालून रितूगेर आईल्लें खंय. रितून मागीर फोन करून म्हाका विचारलें.कित्याक दिलो तुवें ताका तो फ्रॉक? म्हजे सामके आवडीचो तो.'

स्वीटी रागारागान उलयलें.

'आगो पूण, तो फ्रॉक तुका तायट जातालो म्हूण तूं घालिनाशिल्लें न्हय गो?' मम्मान म्हणलें.

'हांव घालूं नाजाल्यार ना घालूं, तुवें तो ताक दिलोच कित्याक?' स्वीटीन म्हणलें तशें मम्माच्या दोळ्यांत उदक आयलें. आपूण खूब व्हडल्यान उलयलें मम्मा फुड्यान हें स्वीटीक कळ्ळें. 'सॉरी मम्मा! पूण तो फ्रॉक...' स्वीटीक मम्मान फुडें उलोवंक दिलेंना. ताच्या हाताक धरून ती ताका भितरल्या कुडींत घेवन गेली. थंय तांचो देवारो आशिल्लो. देवाऱ्यांत लामणदिव्यांतली वात पेट्टाली. मम्मान ते कुडींतली लायट पालयली. कुडींत काळोख पातळ्ळो. खीणभरूच. मागीर कूड वातीच्या मंद उजवाडान भरून गेली.

'स्वीटी, शाण्या ही वात पळयल्या, कितली ल्हान. पूण पेट्टा आनी काळखाक पयस धांवडायता. दुसऱ्यांक उजवाड मेळचो म्हूण ती आपल्याक जळयता. कितलें व्हड मन न्हय तिचें.'

मम्मा कितें सांगूंक सोदता तें स्वीटीक कळ्ळें. ताका रितू सांगतालें तें याद जालें'स्वीटी, तुजो तो फ्रॉक घालून बिजू सामकें खोशेन नाचता.' रितूक लेगीत कळ्ळें तें म्हाका कळ्ळें ना. स्वीटीक वायट दिसलें.

'मम्मा सॉरी. म्हाका वातीच्या मनाचें म्हत्व कळ्ळें' म्हणत ताणें मम्माक दोनूय हातानी घट्ट धरलें. मम्माय आतां खूश दिसताली.

# बरी जिरयली !



शामुलो स्वताक खूब व्हडलो समजतालो. संवसारांत आपूण एकटोच शाणो आनी हेर सगळे भोटे अशें ताका दिसतालें. मागीर ताणें येदे येदेशे गजाली वयल्यान लोकांचीं फकांडां मारप. शामुल्याल्या पसऱ्यार कामाक एक चवदा पंदरा वर्सांचो भुरगो येतालो. शामुलो त्या भुरग्याक सामको राखून रावतालो. ताचे कडेन कसलीय चूक घडटा थंय आसा, ती गजाल दीसभर झरोवन ताचीं फकांडां मारतालो.

एक दीस पसऱ्यार लोकांची गर्दी आसली. शामुल्याक त्या भुरग्याचीं फकांडां करपाची कूय आयली.

ताणें त्या भुरग्याक उलो मारलो आनी सांगलें, 'हेय हो तो, वयर

माळ्यार वचून गरम मसाल्याचीं पाकिटां मातशीं सकयल उडय.'

तो भुरगो निसणी वयल्यान वयर चडलो. ताणें गरम मसाल्याचो साक उकतो केलो आनी साकांत हात घालून म्हणपाक लागलो, 'आवय आवय! हून हून!' शामुल्यान विचारलें, 'पिसावला रे! तीं फकत गरम मसाल्याचीं पाकिटां. तीं कशीं हून आसतलीं? सकयल उडय बेगीन, गिरायकां रावल्यांत.' आनी गिरायकां वटेन तोंड करून शामुल्यान तकलेक बोट व्हरून तो पिसो म्हणपाची कुरू केली ती केली. वयल्यान, व्हडल्यान हांसत म्हणपाक लागलो, 'मातशी एक शीर फाल्त ताची. गरम मसाल्याचीं पाकिटां गरम खंय! '

त्या भुरग्यान 'हाय हूय' करीत गरम मसाल्याचें एक पाकीट काडलें आनी सकयल उकतो आशिल्ल्या गंवा पिठाच्या साकांत मोखलें. शामुलो व्हडल्यान आड्डलो. 'पिसाय रे पिसाय!' आनी ताणें गंवाच्या पिठांतलें गरम मसाल्याचें पाकीट भायर काडलें आनी ताचे वयलें पीठ फाफडून उडोवपाक फूऽऽ फू करपाक लागलो. तो भुरगो हाचीच वाट पळयतालो. ताणें व्हडल्यान म्हणलें, 'धनयांनो, तुमकांय हून लागलें न्हय, गरम मसाल्याचें पाकीट?'

'घुंवला रे? म्हाका कित्याक हून लागतलें?' शामुल्यान रागान विचारलें. 'हून लागलें म्हणून तर फू ऽऽ फू करतात न्हय तुमी'. भुरग्यान म्हणलें. तशे पसऱ्यार आशिल्ले सगळे लोक हांसपाक लागले. शामुल्याक लज जाली. ताचे फुडें कोणाचीं फकांडां करपाचें धाडस शामुल्याक जालें ना.

# केल्यान जाता रे...



'हो भुरगो आनी पास जायत सो दिसना. अरे कर मरे अभ्यास?' सुजयाची माँ सामकी बेजारिल्ली.

'जायना गे माँ. कशेंच जायना म्हज्यान?' सुजय परतो परतो म्हणटालो.

सोप्यार बसून आजी नातवा-सुनेच्यो गजाली आयकताली.

'आसूं गो मात्सो वेळ. येदोळ सावन अभ्यास करतालो तो. आतां मातसो वेळ सुसेग घेवनी.' आजयेन अशें म्हणलें मात सुजयान 'हे' म्हूण बशिल्ले कडेन उडी मारली.

सुजयाच्या माँ क मात खबर आशिल्लें, आजी बेठीच अशी उलोवची ना. ती कितें तरी माण्णी काडटा आसतली. आनी तें खरेंय आशिल्लें.

'जाणा मगो स्टिव्हन कलाहानान जर आपले कडेन जावचेंचना

अशें म्हणिल्लें जाल्यार तो त्या खोल दर्यांतल्यान कसो वाटावपाचो.'

'आजी काणी गे?' म्हणत सुजय आजये कडेन येवन बसलो.

'काणी न्हय, खरी गजाल ती. जाणा मरे स्टिव्हन कलाहान हो एक दर्यावर्दी मनीस. एक फावट तो आपले ल्हानशे बोटीन अटलांटीक दर्या हुपतालो. अकस्मात दर्या मदीं पावतकच ताची बोट फुटली. स्टिव्हन कसोतरी एका फळकुट्याक धरून दर्याचेर उफेवंक लागलो.'

'मागीर तो कसो देगेर आयलो?'– सुजयान विचारलें.

'राव आयक तर खरें!' आजयेन म्हणलें. ती मुखार सांगपाक लागली, 'एक दीस गेलो, दोन दीस गेले. तेवटेंतल्यान एकूय बोट गेली ना. तिसऱ्या दिसा स्टिव्हनाक सामकी भूक लागली. ताणें उफेतां उफेतां आशीकुशीक पळयलें. जायतीं ल्हान व्हड नुस्तीं कुशीक पेंवतालीं. तो एका हातान ल्हान नुस्तीं धरपाक लागलो. आनी तांकां जितेंच खावपाक लागलो. तानेक दर्याचें खारें उदक पियेवपाक लागलो.'

'मागीर चवथ्या दिसा बोट आयली?' सुजयाक थार नासलो.

'आयक मरे शाण्या! तो दर्यांत उफेतालो. दरपारच्या खर वतांत ताका घुंवळ आयिल्लेवरी जाताली. रातीच्या भिरांकूळ काळखांत दर्याच्या थंड उदकांत तो कुडकुडटालो. फळयेक धरिल्लो हात सामको मुयेल्लेवरी जातालो. पूण ताणें धीर सोडलो ना. हांव जगतलोंच हांव जगतलोंच अशे आशेर तो दीस सारतालो.'

आतां सुजयाची माँ लेगीत खुर्ची ओडून काणी आयकूंक बसली.

'कितले दीस उरलो आई तो दर्यांत?' तिणें आजयेक विचारलें.

'७६ दीस!'

'कितले?

'७६ दीस.'

माँ आनी सुजय अजापान पळयत उरलीं.

'हय, ७६ दीस तो उदकांत उरलो. पूण दर दिसा तो मनांतल्या मनांत आपले आपणाकच सांगतालो, 'हांव जियेतलों. म्हजे कडेन जातलें तें.' आनी ताणें ताच्या मनांतले विचार खरे करून दाखयले. ७६ दिसां उपरांत एके बोटीन ताका उदकांतल्यान भायर काडलो.'

सुजय आतां विचारांत पडिल्लो. ताणें सट्ट करून म्हणलें, 'आजये आमचे शाळेचे वण्टीचेर एक सुविचार बरयला, 'केल्यान जाता रे, पूण आदीं करूंकच जाय.'

'अर्थ सांगूंक जाय रे शाण्या?' आजयेन ओगीच विचारूंक जाय म्हूण म्हणलें.

'ना आजी कळ्ळो म्हाका ताचो अर्थ. माँ इल्लें खावंक दी. मागीर हांव बसतां अभ्यासाक' सुजय शाणो भुरगो कसो उलयलो.

माँ मुमुरखें हांसत आजयेक पळोवपाक लागली.

# रात आनी दीस



पिंकीच्या मनाक एक प्रस्न पडिल्लो. 'रात आनी दीस मेळनात कित्याक?' कोणाक विचारूं म्हूण तें घुस्पल्लें. माँ तर सांगचीच नाशिल्ली. पापाक तर विचारपाची सोयूच नाशिल्ली. कोणाक म्हणून विचारचें? पिंकी घुस्पल्लें.

त्या दिसा शाळेची सहल एका वृद्धाश्रमांत गेली. थंय कितल्योच आजयो. तांचे बरोबर अख्खो एक दीस घालोवपाचो आशिल्लो सगळ्या भुरग्यांक.

भुरग्यांनी कितलेशेच खेळ खेळ्ळे तातूंत आजयोय वांटो घेताल्यो. भुरग्यांक खूब मजा आयली. पूण पिंकीची नदर मात ते आजये कडेन आसली. धवे केंसाचे. बरी हांसताली ती. तिचे कडेन

गेलें पिंकी. तिका ल्हवूच हात लायत हांसलें. तशी तिवूय हांसली.

'आजी म्हाका कितें विचारूंक जाय तुका?'

'विचार गो बाय.' आजयेन अपुरबायेन पिंकीच्या पोल्याक हात लायत म्हणलें.

'आजी दीस आनी रात कित्याक मेळनात.'– पिंकी

आजी हांसली. 'यो हांगा यो. म्हजे मांडयेर बस. तुका सांगता हांव ती काणी...'

'...रात आनी दीस नांवाचीं दोन भावंडां आशिल्लीं. दोगूय सभावान खूब मायेस्त. दोगांकूय लोकांची सेवा करपाक आवडटालें. पूण तांकां एक वायट संवय आशिल्ली. दोगांय एकाच मनशाक मदत करपाक धांवतालीं. पूण मेळून मदत करनाशिल्लीं. वयल्यान हांव करतलें मदत म्हणत दोगांय झगडटालीं. तें पळोवन तांचे आवयक हुस्को जातालो. मागीर तिणें एक माण्णीं केली.

एकदीस तिणें दोगांकूय आपयलें आनी म्हणलें, 'थंय पयस काळखाच्या देशांत लोक त्रासांत पडल्यात. तांकां न्हीद बी कांय येना. कोण वतलो थंय मदत करपाक.' दोगांयनी फट्ट करून म्हणलें, 'हांव'

'रावात पयलीं तुमकां परिक्षा दिवची पडटली. हो मनीस उजवाडाच्या गांवाचो. ताका काम करूंक मदत करपाची आनी हो मनीस काळखाच्या गांवाचो ताका न्हिदपाक मदत करपाची. करात तुमी सुरवात.'

दीस काळखाच्या गांवांतल्या मनशाक न्हिदोवपाक लागलो. 'न्हीद... न्हीद' म्हणत थापटीत रावलो. पूण तो मनीस कसोच न्हिदना. रात उजवाडाच्या मनशांक काम करपाक मदत करपाक लागली. पूण ती सांगता तें सारकें जमना जालें. मागीर तांणी

कामाची अदलाबदली केली. दीस त्या मनशां सांगाताक उमेदीन काम करूंक लागलो. रात काळखाच्या गांवांतल्या मनशाक आल्लय म्हणून दाखोवपाक लागली. आनी कितें अजाप तो मनीस सुस्त न्हिदलो.

'चलात तुमच्या मना प्रमाण तुमकां कामा मेळ्ळी. आतां दीस उजवाडाच्या गांवांत आनी रात काळखाच्या गांवांत वतली.' तांचे आवयन म्हणलें. 'तेन्ना सावन तीं दोगांय आपापलें काम करीत आसात. दोगांय खोशी आसात. दीस लोकांक काम करपाक लायता आनी रात येवन तांकां न्हिदयता. दोगांय एकामेकाक मेळना. पूण तांकां तांच्या कामांतूच खूब खोस मेळटा' आजयेन सांगलें

दीस-रातीची नवी काणी आयकून पिंकीय खूब खोशी जालें.



## नयना आडारकार

### प्रकाशीत साहित्य

कविता:– १) प्रतिमा २) मनसांवर ३) किसरां

कथा:– १) स्पंदन

ललीक निबंद:– १) पोवनां २) चांफो ३) कांटेकुंवर ४) बटमोगरी

बाल साहित्य:– १६ पुस्तकां, बालगितांचो सीडींनी आसपाव.

### साहित्याचो आस्पाव

महाराष्ट्र बोर्ड उच्च माध्यमीक विद्यालय अभ्यासक्रम
गोवा बोर्ड उच्च माध्यमीक विद्यालाय अभ्याक्रम
गोवा युनिव्हर्सिटी बीए अभ्यासक्रम
साहित्य अकादेमीच्या भारतीय साहित्य आनी इंडियन लिटरेचर अंक
इंटरनॅशनल एन्थॉलॉजी ओफ पोयम्स आसाम
कर्नाटका साहित्य अकादेमी
रॉक जर्नल लंडन
रिव्हर ओफ फ्लॅश इंडियन शॉर्ट स्टोरीज

### पुरस्कार

गोंय सरकाराचो यशदामिनी पुरस्कार
केरळ प्रचार सभेचो सरस्वतीबाई साहित्य पुरस्कार
डॉ. टी. एम. ए. पै फांवडेशनाचो प्रशस्ती पुरस्कार
कोंकणी अकादेमी गोवा साहित्य पुरस्कार
कोंकणी भाशा मंडळ साहित्य पुरस्कार
कुडचडें साहित्य केंद्र बाल साहित्य मथा पुरस्कार
बिम्ब प्रकाशन बाल साहित्य पुरस्कार
अखील भारतीय कवी संमेलन हैदराबाद डॉ. चंपाप्रसाद पुरस्कार
अखील भारतीय कवी संमेलन गुजरात मान अरविंदाश्रम पुरस्कार
अखील भारतीय कवी संमेलन कविता सेवा पुरस्कार
अखील भारतीय हिंदी साहित्य संमेलन गौरव पुरस्कार